जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ५ : फेब्रुवारी २०२३

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-





## मांडावळ...



मुखपृश्ट चित्र : कलानंद बांबोळकार
भितर्ली चित्रां : निशीत बोरकार.

संपादकीय

## आमची म्हादय वाटयात, आमचें गोंय वाटयात

२०२२ वर्सांचे सोपतेर जेन्ना सगळे गोंयकार जुवारी न्हंयेवेल्या नव्या पुलाच्या उद्घाटनाचो खोस मनयताले तेन्नाच म्हादय न्हंयचें उदक वळोवपाक कर्नाटकाच्या विस्तारीत प्रकल्पाक (DPR) केंद्र सरकारान मान्यताय दिल्ल्याची खबर आयली आनी सगळे गोंयकार धुंदींतल्यान जागे जाले. इतलीं वर्सां सरकार म्हादय संबदांत ज्यो कायलोळ्यो करतालें ताणें गोंयकाराच्या तोंडाक पानां पुसल्लीं म्हणपाचें लक्षांत आयलें. हें सगळें घडलां तें कर्नाटकांत फुडाराक जावपी वेंचणुकांखातीर आनी मुखावेल्या लोकसभा वेंचणुकां खातीर हें कळपाक वगत लागलो ना. गोंयांत तीग जाण आशिल्लो काँग्रेस विरोधी पक्ष जेन्ना कर्नाटकांत आपलें सरकार आयल्यार कळसा भंडुरा प्रकल्पाक ३००० कोटींची मजत करतले म्हण जाहीर करता तेन्ना ह्या विरोधी पक्षाचें भायर भितर नाटक सभेमाजार साभिनय उकतें पडटा. ते खातीर आयज समेस्त गोंयकारांनी, बुद्धीजिवींनी, व्यापाऱ्यांनी, सगळ्यांनी पक्षविरयत एकठांय येवन केंद्राक ही मंजुरी फाटल्यान घेवंक लांवची पडटली. नाजाल्यार गोंयकार उदकाच्या थेंब्याखातीर वळवळटलो हातूंत दुबाव ना.

आयज गोंयांतल्या सगळ्या संघटनांनी आपले महोत्सव वा सांस्कृतीक कार्यावळी थोडो तेंप बंद दवरून तें मनीसबळ म्हादयखातीर वापरपाक जाय. जंय गोंयकारांच्या जिणे मरणाचो प्रस्न उद्भवला थंय ह्यो सांस्कृतीक भोगावळी आनी फोल्गां करून कांयच उपेग ना.

'जाग' नेमाळें सदांच गोंयकारांक जाग हाडीत रावलां. घटक राज्य जांव, राजभास आंदोलन जांव, माध्यम प्रस्न जांव, 'जागा'न आपली समाजीक जापसालदारकी आनी लागणूक बरे तरेन निभायल्या. आतांय म्हादय प्रस्नाचेर 'जाग' लोकांवांगडाच आसतलो. ते संबदान गोंयकारांमदी जागृताय हाडपाचें काम 'जाग' करीत रावतलो. फेब्रुवारीच्या ह्या अंकांत आमी म्हादय चळवळीक लागीं आशिल्ले आनी अभ्यास आशिल्ल्या मानेस्तांकडल्यान खास लेख मागयल्यात. त्या भायर म्हादयच्या दुखण्याचेर कविता आसातूच. ह्या अंकाचें मुखपृश्ट युवा चित्रकार कलानंद बांबोळकार हाणी म्हादयचेर जातल्या परिणामांचेर समर्पक चित्र काडलां. सगळ्यांचे उपकार.

२०२२ चो साहित्य अकादेमीचो कोंकणींतलो पुरस्कार सौ. माया अनिल खरंगटे हांकां लाभला. मायाबाय फाटलीं साबार वर्सां साहित्य निर्मणी करता, कोंकणी शिकोवपाचें काम करता आनी कोंकणी चळवळींनीय वांटो घेता. तांचेर नूतन साखरदांडे हाणी बरयिल्लो लेख मुजरत आमी उजवाडायतात. आमची सदचीं सदरां आसातूच.

ह्या समयार आमी वाचप्यांकडेन मागतात कीं म्हादय प्रस्न हो गोंयकारांच्या जिणे मरणाचो प्रस्न आसा. म्हाका कितें लागता, हांव कितें करूं? असले प्रस्न विचारिनासतना ह्या चळवळींत वांटेकार जायात. जर कर्नाटकाचें हें नाटक फळादीक जालें जाल्यार गोंयकार सासणाचो वेगवेगळ्या समाजीक सांस्कृतीक, अर्थीक धर्गांत हुलपत उरतलो हातूंत दुबाव ना.

कारण न्हंय म्हळ्यार फकत उदक न्हय. ताचे वांगडा जिवितदायिनी न्हंय एक खोल मुळां घेवन आयिल्ली परंपरा, दायज आनी संस्कृती वसयता. वनस्पत आनी मोनजात तशेंच समृद्ध गिरेस्त जैवीक विविधताय आनी संपदा सरभोंवतणी पिकयता. ती तगून उरून नंदची हाचें जाणीव आनी धंगण नासल्यार कालांतरान त्रासांत पडपाचो विशय हो. आमी तरी तो टाळूंया. अती मौन आनी वोगी रावप कान बसपा इतलें थारतलें. आवाज उठोवया. ताचे बगर पर्याय उरूंक ना.

आमची म्हादय वाटयात, आमचें गोंय वाटयात.

***

# म्हादयचें उदक : प्राणी, वनस्पत आनी मनश्या मदलो हो संघर्श

डॉ. प्रकाश पर्येकार

### उदक तत्व आनी म्हत्व



ह्या पृथ्वीतलाचेर जगपा खातरी प्राणवायू उपरांत उदक म्हत्वाचें. उदकाक जिवन अशी उपमा दिल्या. उदक वजा केलें जाल्यार पुराय जिवसृश्टी निर्जीव जातली. उदक ही उर्जा. तें पोशक मुलतत्व आसा. हेच गजालीक लागून जगांतल्यो सगळ्योच सभ्यतायो न्हंयांच्या काठार वसल्यो आनी नांवारूपाक आयल्यो.

पृथ्वी, आप, तेज, वायू आनी आकाश हीं पंचमहाभूतां. तातूंतलें आप म्हणल्यार उदकाक वेगळ्या वेगळ्या भासांनी आपलें अशें खेरीत उतर आसा. घडयलां. जल (संस्कृत), पाणी (मराठी), निरू (कन्नड), वॉटर (इंग्लीश), नेरो (ग्रीक), मिझू (जपान), मायी (लिंगाला), आक्वा (पोर्तुगीज), वोडा (बल्गेरीयन, पोलीश), पा (कॉमान्चे), उजी (आल्बानीयन) आनी मॉ (अराबीक) हीं सगळीं नांवां स्त्री रुपांतलीं आसात. आवयाच्या थानांत दुदाची निर्मीती जाता. तें दूद पिवनूच तें भुरगें पयले कांय म्हयनें जगता आनी पोसता. उदकाचेंय तशेंच ह्या धर्तर मायेच्या आंगां खांदार आशिल्लें उदक आमी तिचीं बाळकां प्रासन करतात आनी जगतात.

न्हंयो ह्यो जिवदायीनी. ताका लागून त्यो आमचे खातीर पुजनीय. न्हंयाची पुजा करपाची पुरातन संस्कृती आसा. गंगा न्हंयक आमी गंगामाता संबोधून देवीचें रुप दिलें. म्हादयक म्हादेवी म्हणून तिची आराधना केली. घांट माथ्यार गवाळी गांवात तिका तिर्थाची न्हंय अशें समजून थळाव्या लोकांनी तिचें संवर्धन केलें. दर्या पुजेक लोकमानसांत म्हत्व आसा. गोंयांत उदकान भरिल्ल्या कळसाची पुजा जाता. उदकाचें थळ हें पवित्र आसपाक जाय अशी लोक धारणां आसा. ताचे खातीर झर, तळें, बांय, न्हंय, दर्या ह्यो आमचे खातीर पवित्र सुवातो.

अश्या ह्या निर्मळ, थंड आनी शांत व्हांवपी उदका कडेन मनीस नखलामी



करपाक लागलो. उदकाक ताणें प्रदुशीत केलें. उदकांतलें जिवावळीक मारपाक तो मुखार सरलो. आपणाक वापरपाक उदक जाय हें कारण मुखार करून ताचो अती वापर आनी गैर वापर करपाक लागलो. मुखार वचून ताणें ताचो प्रवाह आडावन धरलो. मनीस ताचेय मुखार गेलो आनी ताचो तो सैमीक प्रवाह वळोवपाचें वायट कर्म केलें.

**म्हादय न्हंय आनी तिचे मुखार उप्रासिल्ले प्रस्न**

म्हादय हें आमचें अस्तित्व. गोमंतकाचें तें वैभव. ह्या सुवर्ण प्रातांची ती सुवर्ण रेशा. ह्या गोवापुरीचो तो गौरव... फाटलीं साबार वर्सां ती अरिश्टां झेलता. तिचे मुखार मनश्यान साबार प्रस्न ऊबे केल्यात. हे प्रस्न तिच्या अस्तित्वाचे आसात. हे प्रस्न जैवीक संपत्तीच्या जगपा मर्णाचे आसात. तातूंत मनीस हो एक.

हांवें हांगां मनश्या मुखार आशिल्ले प्रस्न म्हणूक नांत. म्हादय न्हंये मुखार उबे आशिल्ले प्रस्न अशें म्हटलां. कारण ते सैम निर्मीत प्रस्न नासून मनीस निर्मीत प्रस्न आसात. हांगा केंद्रस्थानार आसा तो मनीस आसा. तो मागीर कर्नाटक, महाराष्ट्र वा गोंयांत आसूं. म्हादयक नखलामी करपी ह्या मनश्याचे हात आसात.

म्हादय न्हंय अरबी समुद्राचे दिकेन व्हांवता. तिचें वट्ट ड्रेनेज क्षेत्र २०३२ चौरस कि.मी. आसा. तांतूतली ३७५ कर्नाटकांत, ७७ महाराष्ट्रांत जाल्यार १५८० गोंयांत तिचें पाणलोट क्षेत्र आसा. म्हादय ही गोंयांतली सगळ्यांक व्हडली न्हंय. गोंयांतले अर्दे लोकसंख्येची ती तान भागयता. म्हणून ती आमकां चड प्रिय. ह्या प्रिय म्हादयचें पात्र आडावन उदक आपले वटेन वळोपाचें कारस्थान कर्नाटक सरकार वांकड्या मार्गान करपाक सोदता.

हे फावट प्रस्न निर्माण जाला तो कळसा, हलतरा आनी भांडुरा ह्या म्हादयच्या उपन्हंयांचें उदक वळोवपाक सुधारीत प्रकल्प आराखड्याक केंद्रीय जलआयोगान कर्नाटकाक दिल्ली परवानगी. उदकाचो सैमीक प्रवाह वळोवपाक कायद्यान बंदी आसा. हे नदरेन म्हादयच्या व्हांवत्या उदकाक दिल्लें आव्हान हें. निवडणुको लागीं येतकच असले तरेच्या नखलाम्यांक वेग येता. फाटले फावट कर्नाटक राज्यांतली निवडणूक लागीं आयिल्ली ते वेळार असोच प्रकार घडिल्लो. आतांय तशेंच जालां. म्हादयच्या खांदार आर्म दवरून सोडिल्लो फाट्र हो. म्हादयच्या कपलाक राजकारणाचो तिबो लावन केल्लो खेळ हो. हांगां म्हादयचो बळी दिवन आपलो स्वार्थ सादोवपाचें कारस्थान रचलां आसत जाल्यार म्हादयच्या इतिहासांतलो काळो दाग हो.

**उदक आडावप आनी वळोवप :**
**कर्नाटक सरकाराच्या येवजण्यांची सांखळ.**

'तूं मरों, आनी म्होजो बाबुलो उरों'. म्हादयचें उदक वळोवपा संदर्भांत कर्नाटक सरकाराची ही भुमीका आमकां सगळ्यांक परिचयाची आसा. येवजण सरकाराची आसत. पूण मनश्याच्या सभावांतल्यान तयार जाल्ली वृत्ती ही.

१९७२ वर्सा पासून म्हादयचें उदक वळोवपाचें नियोजन कर्नाटक सरकार करता. घाट माथ्यार आशिल्ल्या म्हादयच्या साबार उपन्हंयांचेर धरणां बांदपाची येवजण आसा. उदकाचें म्हत्व आनी ताचो उणाव लक्षांत येतकच अशे दिर्घ कालीन प्रकल्पांची येवजण मुखार येता.



कणकुंबी हांगां कळसा हे म्हादयचे उपन्हंयचेर कर्नाटक सरकार १०.५० मिटर चोलें लागीं हलतरा हांगां, ११.८० जाल्यार नेरसा लागीं भांडुरा हांगां, १०.०६ मिटर उंचायेचे बंधारे बांदपाची नवी येवजण आसा. कळसा आनी हलतरा खातीर ८४२.७० कोटी जाल्यार भांडुरा खातीर ५७७.२० कोटी रुपया खर्च करपाची तजवीज आसा. ह्या तिनूय प्रकल्पा अंतर्गत ७४४ हेक्टर जमीन उदका पोंदा वतली.

हे प्रकल्प पुराय जाले जाल्यार विर्डी महाराष्ट्रांतल्यान सकयल सांखळी येवपी वाळवंटी न्हंयचेर विपरीत परिणाम जातलो. कळसाचें उदक वळयलें जाल्यार साट्रे, नानोडेच्यान सकयल उस्तें हांगां म्हादयक येवन मेळपी हे उपन्हंयचें पात्र सुकून वतलें. आनी भांडुरा ह्या नाल्याचेर धरण बांदलें जाल्यार मूळ म्हादयक मेळपी उदक कमी जातलें. सकयल म्हादय न्हंयच्या पात्रांत कोटणी हांगां राष्ट्रीय हायड्रो इलेक्ट्रासिटी प्रोजेक्ट उबो करपाची महत्वाकांक्षी येवजण आसा. हांगां २४ टी. एम.सी उदक सांठोवन तातूंतलें ०४ टी. एम.सी उदक आसोगा हांगां मलप्रभा न्हंयत वळोवपाचो बेत आसा. ताचे खातीर ते साडपांच कि.मी. लांबायेचे बोगदे खणटले. म्हादय धरणांत उरिल्ल्या २० टी. एम.सी उदकाचेर विजेची निर्मीती करतले. तशेंच दुसऱ्या अर्दान चिबूडी हांगां पोटली न्हंयचेर अ, ब आनी क अशी तीन वेगळीं वेगळीं धरणां उबारपाची येवजण आंखल्या. हाचो परिणाम दूदसागराचेर जातलो. ह्या प्रकल्पांक लागून ७५० चौरस कि. मी. रान उदका पोंदा वतलें. थंयचे असंख्य गांव निर्वासीत जातले. हाचो विपरीत परिणाम जिवावळ, वनस्पती आनी लोकसंस्कृतायेचेर जातलो.

### कर्नाटक सरकाराची भुमीका

म्हादय संदर्भात सादर केल्ल्या सुधारीत प्रकल्प अहवालाचेर केंद्र सरकारान पुनर्विचार करून दिल्ल्या निर्णयाचेर आमी खूश आसात. आमी आमचें काम रोकडेंच हातांत घेवन तें पुराय करतले अशी घोशणा अदीक आव्हान कर्नाटक राज्याचे पाटबंधारे आनी उदकास्रोत मंत्री गोवींद करजोळ हाणें केलां. डिपीआराक केंद्रीय जल आयोगान मान्यताय दिल्ल्यान कर्नाटकांतल्या चार तालुक्यांनी विजयोत्सव मनयला. म्हादय प्रकल्पा खातीर ३ हजार कोटींची तरतूद करतले अशें काँग्रेसीचे राजसभा खासदार रणदीप सुरजेवाला हाणी सांगलां. तशेंच आमचें सरकार सत्तेर आयलें जाल्यार म्हादयच्या प्रकल्पा खातीर ५०० कोटी रुपया मंजूर करतले अशें कर्नाटक काँग्रेस पक्षान घोशणां केल्या. पक्षाचे कार्यकर्ते आनी सामान्य लोकांक भडकावन राजकीय व्यक्तींनी आपले खातीर पोशक वातावरण तयार केलां. ही आसा राजकीय पक्ष, व्यक्ती आनी कर्नाटक सरकाराची रणनिती.

राजकीय नदरेन आमी बळिश्ट आसात. आमचें कोणूच कांयच करूंक शकना. आमी कोणाक भियेना. आमकां कसलोच भंय ना. आमकां खावपाक कळटा आनी गिळपाचेंय तंत्र आमकां बेस बरें खबर आसा. ही आमची मानसीकता. ही मनोवृत्ती लोकशायेक आनी ह्या आमच्या भारत देशाक घातक आसा. पुराय संवसाराक देख दिवपा सारकें ह्या देशाचें संविधान आसा. न्याय निवाडो करपाक सक्षम अशे कायदे आसात. उच्च दर्जाचीं न्यायालयां आसात. हे फाटभुंयेर घातक वृत्तींक समर्थन दिवप योग्य थारचें ना.

वाडटी लोकसंख्या, उद्देगीकरण, शेती वेवसाय आनी हेर गरजे खातीर आमकां उदक जाय पडटा. कालांतरान जादा उदकाची गरज भासप हें साहजीकच आसा. ताचे खातीर नियोजन करप हेंवूय चुकीचें न्हय. पूण सगळे नियम खुंटयाळ्याक लावन गरज आसा ताचे परस आपणाक चड उदक जाय म्हणप समा न्हय. आनी अट्टाहास धरप तर सामकें चुकीचें थारतलें.

### म्हादय आनी मतांचें गणीत.

कळसा, हलतरा आनी भांडुरा ह्या म्हादयच्या उपन्हंयांचें उदक पिवपाक हुबळी, धारवाड आनी हेर भागांतल्या लोकांक जाय अशें दबावतंत्र थळावे राजकारणी वेंचणुकेच्या वेळार मुखार करतात. केंद्र आनी राज्य सरकार तशेंच राजकीय पक्ष ताका बळी पडटात. तातूंतल्यान म्हादय न्हंयक पावणेर काडपाच्यो हालचाली सुरू जातात.

अशें जावपा फाटलें कारण म्हणल्यार आमी म्हादयच्या संदर्भांत सदांच घाळ रावल्यात. भोंकार खोंट पडतकच जशी सुण्याची स्थिती जाता तशेंच आमचें जाता. 'दिसलें मडें आयलें रडें' अशी आमची गत. दर एके फावट म्हादय हो राजकीय प्रेरीत प्रस्न कित्याक जाता? विचार केला आमी केन्ना? आतां २०२४ वर्सा लोकसभेच्यो वेंचणुको येवपाच्यो आसात. गोंयांत ०२ जाल्यार कर्नाटकांत २८ जागे. गणीत सोपें. आपलें एकादें काम जावंचें म्हण रेडो, बोकडो वा कोंबो बळी दिवपाची दिर्घ प्रथा आसा. आमच्या पक्षाचे चडावत सीट निवडून येवपाक जाय. निसर्गांतलो एक महत्वाचो घटक बळी दिवपाची आधुनीक पद्दत राजकीय लोकांनी सुरू केल्या. हाचे पयलीं २०१७ वर्सा अशी घडणूक घडिल्ली ते वेळार गोंय राज्याचे तत्कालीन मुखेलमंत्री मनोहर पर्रीकर हाणी कर्नाटकाचे विरोधी पक्ष नेते येडियुराप्पा हांकां पत्र बरोवन म्हादय विशीं उलोवणी करपाक आपूण तयार आसा म्हणपाचें कळयल्लें.

### गोंय सरकार, राजकीय पक्ष आनी घटकांची भुमीका

काँग्रेस आसूं वा भाजपा सरकार. म्हादय न्हंयक केन्ना कोणें सिरियस घेतली ना. आयलें हङ्ग्यार तेन्ना घेतलें खङ्ग्यार. अशी आमी भुमीका घेतल्या. न्हंयांच्या संदर्भांत सतत जागरूक रावून कार्य करीत रावप हें आमच्या रक्तांत ना. हाचें कारण म्हणल्यार म्हादय न्हंयक आमी केन्ना सारकी समजून घेवकं ना. म्हादयच्या वाठारांतली जैवीक संपत्तीचें भान आमकां ना. म्हादयच्या परिसरांतलें जें अदीम लोकजिवन आनी लोकसंस्कृताय आसा ताचो आमकां दिश्टावो जालो ना. ह्या वाठाराची भुगोलीक रचना आनी इतिहास सारको खबर ना. खंयची न्हंय खंयच्यान व्हांवता आनी वेगळ्या वेगळ्या रुतूंत तिकां उदकाचो सांठो कितलो उपलब्ध आसा ताची अचूक आंकडेवारी आमकां खबर ना. ह्या वाठारांतले धोके कसले आसात वा आसतले हाचोय अभ्यास आमचे कडेन ना.

गोंयचे मुखेलमंत्री म्हादयक आपली आवय मानतां अशें सांगत आयल्यात. तांकां तशें दिसता जाल्यार तातूंत गैर कांयच ना. आमदार आनी सभापती आसताना ते म्हादयविशीं चड जाणा जावन घेवपाक

म्हादयची परिसर भोंवल्यात. पंतप्रधानाक मेळपाची घोशणा करूनय तांका ते मेळपाक शकले नात. सगळ्यां पक्षांची बसका घेवपाचें थारायलें. मुखार ती घेतलीय बी. केंद्रीय घरमंत्री अमीत शहाची भेट घेवन म्हादयचेर चर्चा केली. वयल्या दोनूय बसकांक हेर पक्षांचे आमदार हाजीर रावले नात. हांगां सरकार आग्रहाचें आमंत्रण दिवपाक कमी पडलें काय ह्या आमदारांनीच नकारात्मक भुमीका घेतली? कारणां कितेंय आसूं. म्हादयविशीं आमी एकसंघ नात म्हणपाची ही कुरू.

रिव्होल्युशनरी गोवन्स ह्या पक्षान म्हादय संदर्भांत वेगळी बसका आपयली. १६ जानेवरी ह्या जनमत कौल दिसाची संदी घेवन सेव्ह म्हादयच्या बॅनरा खाला महामेळावो आपयलो. मेळाव्याक आप, काँग्रेस आनी तृणमूल काँग्रेस, राष्ट्रवादी काँग्रेस आनी गोवा फॉरवर्ड, पर्यावरणप्रेमी, सामाजीक, धर्मीक आनी साहित्यीक संस्थानी आपलो तेंको उक्तायलो.

हे फावट एक बरी गजाल घडल्या. ती म्हळ्यार लेखक, शिक्षणीक संस्था, गोंयची चर्च, पर्यावरण संस्था हांणी म्हादय जागृती संदर्भा संबंदान राबयल्ले उपक्रम. सायकल यात्रा, चित्रकला सर्त, लघू फिल्म निर्मीती, पदभ्रमण कार्यक्रम, गट बसका आयोजीत केल्यात. ही अत्यंत बरी गजाल.

दिल्ली मान्यताय फाटीं घेतली ना जाल्यार आपूण आपल्या मंत्रीपदाचो राजीनामो दितलों अशें केंद्रीय मंत्री श्रीपाद नायक हाणी घोशणा केल्या. ही घोशणा म्हादयच्या मोगान काय ताचे फाटल्यान राजकीय हेतू आसा कळपाक मार्ग ना. डिपीआर हाका स्थगिती दिवची म्हण गोंय सरकार सुप्रीम कोर्टांत अर्ज केला. हक्काचो एक थेंब लेगीत आपूण कर्नाटकाक दिवचोना अशें मत सगळ्या पक्षांचे बसकेक गोंय राज्याचे मुखेलमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हाणी सांगलां. हक्काचो म्हणल्यार कितें? जल आयोगाच्या निर्णया प्रमाण राज्यांच्या वांट्याक येवपी त्या उदकावयलो हक्क? काय म्हादयच्या देगणांत आशिल्लें पुराय उदक? आतां सरकार जलनियोजन प्राधिकरण वेवस्थापन स्थापन करपाक केंद्राकडेन मागणी करता. हांगांय तेंच जातलें. उदक पिवपाक जाय अशें कारण मुखार करून कर्नाटकाक झुकतें माप दितले. हांगां दाखय लिपय करून आमच्या पदरांत कांयच पडचें ना. केंद्र वा कर्नाटक सरकार हांचो कितलोय दबाव आयलो तरी आमची भुमीका ठाम आसपाक जाय.

**पश्चीम घाट हो अतिशय महत्वाचो इकोसेंसेटीव्ह झोन**

पश्चीम घाट हो १.६०,००० चौखण कि.मी वाठारांत पसरिल्लो आसा. पश्चीम घाटाची पर्वतरांग ही गुजरात, महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी तमीळनाडू ह्या राज्यांतल्यान वता. ह्या परिसरांत ७.४०२ फुलांच्यो जाल्यार १,८१४ फुलां जाय नाशिल्ल्यो वनस्पती आसात. १३९ सस्तन जनावरांच्यो प्रजाती, ५०८ सवणीं, २२७ सरपटे प्राणी, १७९ भूजलचर प्राणी, २९० गोड्या उदकांतलें नुस्तें आनी ६००० किटक प्रजाती हांगां वास्तव करून रावतात. तातूंत ३३४ पिसोळ्यांच्यो जाती आसात. ह्या सगळ्या कारणांक लागून बायो डायव्हरसिटी हॉटस्पोटच्या अंतर्गत ह्या प्रदेशाक युनेस्कोन जागतीक वारसा स्थळ म्हण मान्यताय दिल्या. हिमालय पर्वत रांगेचेकय पुरातन आशिल्लें हें भारतांतलें महत्वाचें थळ. अभ्यासकांक तें सदांच आव्हान दीत आयलां.

ह्या वाठारांत असंख्य उंच दोंगर आसात. तांची उंची ६,६०० फीट ते ८,८४२ फीट इतली आसा. दक्षीण-अस्तम दिकेंतल्यान व्हांवपी मान्सून वाऱ्याक लागून ह्या भागांत उटंगाराचो पावस पडटा. कांय थळांनी ह्या पावसाची नोंद ३०० इंचावयर जाता. ह्या पोशक हवामानाक लागून ह्या भागांत गोदावरी, कृष्णा, तुंगभद्रा आनी कावेरी सारक्यो व्हड न्हंयो आसात. भद्रा, भीमा, मलप्रभा सारक्यो कांय उपन्हंयो तांकां उदकाची पुरवण करतात. हें सगळें उदक बंगालच्या उपसागरांत विसर्जीत जाता. तशेंच पेरीयार,पंबा, शरावती, काळी, मांडवी, जुवारी, शापोरा सारक्यो अनेक न्हंयो अरबी समुद्राक वचून मेळटात.

जैवीक संपत्तेचें रक्षण करपाचे नदरेन सरकारान ह्या भागांत साबार राष्ट्रीय उद्यानां आनी अभयारण्यांची निर्मीती केल्या. पक्षी अभयारण्य आनी वाघ प्रकल्पांची उभारणी केल्या. ह्या भागांतली सगळी जिवावळ आनी वनस्पत निर्भय वातावरणांत जगतली असो ताचे फाटलो विचार आसा.

**म्हादयच्या उदकाचो हक्कदार फक्त मनीसूच आसा?**

हे भुंयेचेर आशिल्ले किटाणू, कीड, मूय, जिवाणीं, सुकणीं, सावजां, जलचर आनी वनस्पती हांकां सगळ्यांकूच उदक जाय आसता. पूण जाता उरफाटें. हें व्हांवता त्या उदकाचेर फक्त म्हजोच अधीकार आसा अशी मनशाची भावना जाल्या. वयर उल्लेख केल्ल्या प्राणिमात्रांक आप आपलो वांटो जाय. उदक नाशिल्ल्यान वनस्पती सुकून वतली. सुकणीं आनी सावजां वळवळून मरतलीं. जनावरां उदक सोदीत दुसरे कडेन स्थलांतरीत जातलीं. हें आमकां केन्ना कळटलें? सगळ्यां मदीं मनीस हो एक ल्हानसो घटक. म्हादयच्या उदकाचो विचार करताना वयर उल्लेख केल्ल्या सगळ्यांचो एकठांय विचार आमी करपाक जाय.

जनावरां आनी वनस्पतीक एका विशिश्ट मात्रेन उदक जाय आसता. मनश्याचे तशें ना. बालदीभर उदक लागतलें थंय ताका स्विमींग पूल जाय. तांबयो भर उदकान पांय धुवन जाता थंय ताका कळसुली भर उदक वापरपाक जाय. घरांतल्या वापराक, पिवपाक, शेताक, बागायतीक, घर, रस्ते आनी पूल आनी बिल्डिंगांचें बांदकाम, वेवसायीक प्रकल्प आनी उद्देगीक वसाहती, तारांकीत हॉटिल वेवसाय अश्या साबार तरेच्या वापरा खातीर मनश्याक भरभरून उदक जाय. आपल्या घरांत उदक खंयच्यान येता हें तर आमकां खबरूच ना. आमचें लक्ष फक्त नळाच्या 'पी' चेर. उदकाची मात्शी कमी भासत जाल्यार आमी फुर्योज जातात. आमकां राग येता. उदका शिवाय आमच्यान खीणभर रावपाक जायना.

आमचे जिणेंतलो उदकाचो एक थेंब लेगीत वजा जाल्यार मनीस तडफडटा आनी तळमळटा. सैमाचो नाश करतना, दोंगर पोखरतना, उदकाची वाट आडायतना, तें आपणाक जाय थंय जाय तशें वळयतना मनश्याक कांयच दिसना. आपले सरभोंवतणी जे उदकाचे सांठे आसात ताचो हांवूच एकलो हक्कदार आसा अशें वागणें. ही विचार करपाची आनी वागपाची पद्दत आमी पयलीं बदलूंक जाय.

हे पृथ्वीचेर एकतृतीयांश उदक आसा. महासागर, दर्या, न्हंयो,

पानशिरे, व्हाळ, तळीं, झरी हीं उदकाचीं सगळीं सैमीक साधनां मनीस आपलीं करता. जमनीतलें उदक लेगीत तो ओडून आपल्याक घेता. तो बांध बांदता. पंप लावन उदक ओडटा. प्रवाहाची दिशा बदलता. हें वैयक्तीक, गांव, तालुको, जिल्लो, प्रांत, राज्य आनी देश पांवड्यार सतत जाता आनी जायत आसता. हांगा जण एकल्याचे हितसंबंध आसात. हेच गजालींक लागून उदका खातीर तंटे आनी हाणमारीचें चित्र पळोवंक मेळटा. झगडीं- झुजां जाल्ल्याच्यो देखी आमचे कडेन असंख्य आसात.

**उदकाच्या नियोजनाचो आराखडो आमचे कडेन ना.**

नागपूर हांगासरले राष्ट्रीय पर्यावरण अभियांत्रीक संशोधन संस्था (नेरी) हे संस्थेन १९९९ वर्सा कर्नाटक सरकाराक एक अहवाल सादर केल्लो. म्हादयचें गोडें उदक अरबी दर्यांत वचून ताची नाशाडी जाता. असो तांचो तर्क आशिल्लो. पूण गोडें उदक दर्यांत वचपाक जाय असो निसर्गाचो अलिखीत नियम आसा. कारण तशें जालें ना जाल्यार क्षारता वाडटली आनी पर्यावरणाचो समतोल हालतलो. दर्यांत पावस कित्याक पडपाक जाय? असो अवैज्ञानीक प्रस्न विचारपा सारकें पिशेंपण हें.

गोंय सरकारच्या स्टेट वॉटर रिसोर्स डिपार्टमेंट हांणी १९९९ वर्सा म्हादय आनी २००१ वर्सा जुवारी, साळ, तळपण आनी गालजिबाग न्हंयांचो अभ्यास करून गोंय राज्या खातीर २०५१ वर्सा मेरेन उदकाचो मास्टर प्लॅन तयार केल्लो. ह्या प्लॅनाप्रामण घरगुती वापराखातीर २०८ क्यु. मी., उद्देगां खातीर २०८ क्यु. मी., शेत आनी बागायती खातीर २०५० क्यु.मी., खारसाण आळाबंद हाडपा खातीर ५० क्यु. मी. मेळून २६७४ क्यु. मी. उदकाची आमकां गरज आसा अशे सांगिल्लें. सद्या आमचे कडेन फकत १५३१ क्यु. मी. उदक आसा. ११४३ क्यु. मी. उदकाची आमकां गरज भासतली असो अंदाज व्यक्त केल्लो. हें सांगून आतां दोन दसकांचो काळ गेला. गोंयची उदकाची गरज आतां कितल्याश्याच पटिनीं वाडल्या. ताचो आंकडो आयज आमकां खबर ना.

**निर्णायक लढ्याची गरज**

पक्ष आनी हेर संघटणा आपलो स्वताचो एजेंडा घेवन म्हादय न्हंय संदर्भांत उप्रासिल्ल्या प्रस्ना संदर्भांत बसका आनी सभा घेवप सुरू जाल्यात. म्हादयच्या रक्षणा खातीर आमी जागृत आसात. तें आमचें आद्य कर्तव्य आसा. ही भावना मुखार दवरून ह्या सभांचें आयोजन जालें जाल्यार ताका विविध घटकां कडल्यान तेंको फावो जातलो. रेव्हेल्युशनरी गोवन्स ह्या पक्षान 'एकला चलो रे' ची भुमिका घेतल्या. आपल्यो वेगळ्यो चुली थाटून काम भागचें ना. आमी सगळे तरेचे भेद विसरून एकवटीत जाले जाल्यारूच सशक्त आंदोलन उबें रावपाक मजत जातली. तोच निर्याणक लढो थारतलो.

'म्हादय बचाव अभियान' हो नोन पोलिटीकल बॅनर आमचे कडेन आसा. दोन दशकां पयलीं म्हादयच्या रक्षणा खातीर तयार जाल्ल्या बॅनराखाला सगळ्यांनी एकठांय जावंक जाय आशिल्लें अशें म्हजें वयक्तीक मत. असो प्रयत्न जाल्लो जाल्यार पक्षभेदाचें रूप गळून पडून चळवळ अदीक बलशाली जावपाक मदत जातली आशिल्ली.

प्रांतभेद, राजकीय दुस्मानकाय, व्यक्तीगत हेवेदावे, संस्थांभितर आशिल्ले मतभेद विसरून आमी आमचे म्हादयक केंद्रस्थानार दवरून अभ्यासपुर्ण आंदोलन उबें करपाक जाय. केंद्रीय पर्यावरण, वन आनी हवामान बदल खातें तशेंच वन्यजीव सल्लागार मंडळाचो ना हरकत दाखलो कर्नाटकाक मेळपाचो आजून बाकी आसा. तो कसो तांकां मेळप शक्य ना हाचेर उच्चस्थरीय बसका जावंक जाय. कायद्यांची बाजू अभ्यासपाक जाय. हाचे खातीर फक्त भाशणां दिवन जांवचीनात. दुसऱ्यांक दुशणां दिवनूय आमचें काम जावंचेना. तज्ञांच्या आदारान आमकां जतनायेन पावलां घालचीं पडटलीं.

केंद्रीय प्रदुशण नियंत्रण मंडळ, राष्ट्रीय जैवीक विविधता प्राधिकारण, भारतीय जीव जंतू कल्याण बोर्ड, पर्यावरण, वन आनी जलवायू परिवर्तन मंत्रालय, राष्ट्रीय पृथ्वी विज्ञान अध्ययन केंद्र तशेंच थळावीं जितलीं पर्यावरणा संबंधीत सरकारी आनी निमसरकारी आस्थापनां आसात तांच्या सहकार्यान म्हादयची केस तांत्रीक नदरेन सक्षम करपाच्या वावराक आमी लागपाक जाय. गोंयांतलें वन प्रशिक्षण स्कूल, वनखातें, विद्यापीठ पांवड्यार आशिल्लीं पृथ्वी विज्ञान, जीवशास्त्र, वनस्पतीशास्त्र, सागरविज्ञान ह्या विभागाचोय आदार घेवन अधिकृत म्हायती एकठांय करपाचेर आमकां भर दिवची पडटली.

**जलसांठ्या संदर्भांत जागृती मोहीम राबोवपाक जाय.**

फाल्यां म्हादयच्या उदकाचो अपेक्षीत वांटो गोंयांक मेळ्ळो ना जाल्यार आमचें कितें? आमचे कडेन दुसरो प्लॅन तयार आसा व्हय? आमची रणनिती कितें आसतली? हे वेळार अस्तित्वांत आशिल्ल्या उदकाच्या सांठ्यांचें सर्वेक्षण करून तांच्या संवर्धनाचें नियोजन करचें पडटलें. गोंयचे जलस्त्रोत मंत्री सुभाष शिरोडकार हाणी हातूंत बारीकसाणेन लक्ष घालपाक जाय. जलकुंभांचें संवर्धन करपाक खासा दिर्घ काळ नियोजनाची गरज आसा. राज्यांतल्या न्हंयांचें परत सर्वेक्षण करून तांचें संवर्धनाची आंखणी करपाक जाय.

आतां बहुमजली इमारती मेळत थंय उब्यो रावतात तांचे खातीर उदका संदर्भातलीं मार्गदर्शक तत्वां लागू करपाक जाय. रानांत आशिल्ल्या ल्हान ल्हान नाल्यांचेर लघू बंधाऱ्यांची तजवीज करपाक जाय. एका काळार धा मिटरा वयर खोल आशिल्ल्या म्हादय न्हंयच्यो कोंडी गाळ सांचून पुरून गेल्यात ताचेर सरकारान लक्ष दिवंक जाय. गांवातल्या लोकांक गरज आसा त्या उदकाची वेवस्था गांवातूच कशी जातली हाचेर दिवपाची गरज आसा. जमनींतल्या उदकाची मात्रा वाडोवपा खातीर पावसाचें उदक आडोवन धरपाचें वा तें जमनीत जिरोवपाचीं साबार पारंपारीक आनी आधुनीक तंत्रां आसात. ताचो वापर करपाक जाय.

हे खातीर जाय ती सरकाराची इत्सा. आमचें राज्य दर्या देगेर आशिल्ल्यान आमकां सदांच उदकाचें मोठे मोठे सांठे दोळ्यांक दिसतात. दर्याची भरती आमच्या पायांक येवन तेंकता. पूण पिवपाच्या उदकाक लागून आमच्या दोळ्यांत दुकां दाटून येनात तो मेरेन आमी उदकाच्या संवर्धना खातीर कामाक लागचे नात.

संपर्क : 8390303546 ***

# म्हादयः लेखक, कलावंतांची भुमिका



**प्रकाश वजरीकार**

लेखक - कलावंत ही राष्ट्रीय संपत्ती आसा अशें समाज मानीत आयला. लेखक - कलावंतांनीय आपल्या धर्माक जागपाची लागणूक काळावेळाप्रमाण जागयल्या. कृतीशील लेखक कलावंत हो सामाजीक बांधिलकी मानता म्हणूनूच तो समाजांतल्या बऱ्या वायट घडणुकांचेर प्रतिक्रिया दिता. तेच वांगडा तो फुडाराचीच दिशा दाखयता. अवस्थ वर्तमान आनी आशादायी फुडार चित्रीत करपी लेखक कलावंतांची त्या त्या काळांतली भुमिका ही खूप म्हत्वाची आसता. सामाजीक तशेंच इतिहासीक नोंद घेतना ती तर खुपूच गरजेची आसता. लेखकांची - कलावंतांची संवेदना सांगताना भारतीय नाटककार पुंडलीक नारायण नायक हे कोळश्यांचे खणीची देख दिताले. कोळश्याचे खणींनी काम करपी कामगार भुंयांरानी वावुरताना आपल्या वांगडा सुकण्यांचो पांदरो व्हरताले. खोल भुयांरानी खणटा आसताना विखारी वायूची सुलूस ह्या सुकण्यांक पयलीं लागताली आनी तीं पाखांटें फडफडायतालीं. सुकण्यांच्या पाखांची फडफड पळयतकूच विखारी वायू आपल्याक बादचो न्हय म्हण सगळे कामगार भुयांरांतल्यान धांवत भायर येताले. पुंडलीक नायक म्हण्टाले की लेखक हो सुकण्यांसारखो आसपाक जाय. समाजांतल्या विखारी वायूची सुलूस ताका पयलीं लागपाक जाय. तांणी पयलीं फडफडपाक जाय. लेखकीय संवेदना जागोवपी हें सुंदर उदाहरण आसा.

संवसारांतली संवेदनशील लेखक हो असोच फडफडत रावता. समाजांतली तडफड पळोवन तो अस्वस्थ जाला आनी लांब पल्ल्यांची नदर आशिल्ल्यान मनीस आनी पर्यावरण केंद्रीत वसुधैव कुटुंबकमची संकल्पना चलणुकेंत हाडपाक तो वावरत आयला. प्रवासांत आसताना एकदां सकाळचो सुर्योदय पळोवन भारावल्लो कवी वडर्सवर्थ सुर्योदय पळोवपाक बसींतल्यान अर्दवटेच्याच प्रवासांत देंवलो अशी एक गजाल सांगतात. पूण ह्याच कवीन आपल्या राज्यांतले सैम सुंदर तळें विकतें घेवपी खाजगी यंत्रणे आड संघटीत रुपान आवाज उठयलोच इतलेंच न्हय तर त्या तळ्याची ती सुवात आपणें विकती घेवन ताचो ट्रस्ट करून ती सुवात, सैम सुंदर वाठार लोकांपासत मेकळी आनी उक्ती दवरली. ताची देख आजुनूय पळोवंक मेळटा.

सैमाची राखण जांवची म्हण संवसारांतल्या कितल्याश्याच लेखक - कलावंतांनी पर्यावरण राखणदारांनी, कार्यकर्त्यांनी तशेंच सामान्य कश्टकरी, श्रमजीवी लोकांनीय आपले परीन योगदान दिलां. लागीच्या महाराष्ट्र राज्यांतले डॉ. नागनाथ कोतापल्ले सारख्या लेखकांनी सामाजीक बांधिलकेचो वांटो म्हण खडी कामगार लोकांचे प्रस्न, शेतकाऱ्यांचे प्रस्न प्रत्यक्ष मातयेकडेन आनी लोकांमदीं रावून सोडोवपाक वावुरताले. भारतांतलें चिपको आंदोलन हें पर्यावरणीय भान निर्माण करून दिवपी म्हत्वाची घडणूक.

कोंकणी भास, साहित्य समाज, संस्कृताय, शिक्षण आनी अर्थकारण ह्या विशयांचेर बरोवपासारकें खूप आसा. कोंकणी साहित्याकांची लेखक कलावंतांची पर्यावरणीय संवेदना पळोवप वा तपासप वा निश्ठेचो प्रस्न उपस्थीत करप हो ह्या लेखाचो हेतू न्हय. पूण समकालीन म्हादयच्या संदर्भात ताचेर चर्चा करून लेखक, कलावंतांक तांच्या पर्यावरणीय भानाची परत एक जाणविकाय करून दिवपी हो निर्णायक काळ आसा. अश्या निर्णायक काळांत आमी कितें करतलेत असो प्रस्न मुखावेले पिडयेक पडचो न्हय म्हण हो एक यत्न.

म्हादयच्या उदकाचोच मूळ झरो आडावन जीवनदायीनी म्हादय कर्नाटकान आडावपाचें सत्र कशें बेकायदेशीर रितीन आरंभला आनी केंद्र सरकारच्या निर्णयाक लागून गोंयात भिरांतीचें, दुबावाचें वातावरण निर्माण जालां. अशे परिस्थितींत गोंयात रावपी, गोंयकार म्हणपी, गोंया भायल्याय लोकांनी पर्यावरणीय भान दवरून ह्या कठीण प्रसंगार संघटीत रुपान आवाज काडून लोकचळवळींतल्यान जनजागृतायेतल्यान लोकशाही मार्गान गोंयचे म्हादयचो अंदिल्लो स्वास मेकळो करून गोंयच्याच न्हय तर धर्तरेच्याच अस्तित्वाची राखण करपाचो उलो मारचेखातीर तडफडपी पाखां फडफडावपी संवेदनशील लेखकांक कलावंताक जाग दिवपाची गरज आसा.

म्हादय हो विशय फाटली पंचवीशेक वर्सा गोंयांत गाजता. म्हादयचें उदक कर्नाटक बेकायदेशीर रितीन वळोवन म्हादयचेरूच घावो घालता हे जाणविकायेंतल्यान सत्तरींतल्यान 'म्हादय बचाव अभियान' जें सुरू जाल्लें त्या अभियानाच्या बुनयादी वावरासावन एक लेखक म्हण म्हजो प्रत्यक्ष सहभाग आसाच तेचवांगडा म्हादय जागृती अभियानांतूय प्रत्यक्ष कृतीशील वांटेकार जावन हेरां वांगडा लोकचळवळींत सहभागी जालां आनी जायत आसा.

कोंकणी भाशा मंडळ ही कोंकणी चळवळींतली एक म्हत्वाची संस्था. कोंकणी भाशा मंडळात गोवा युवा महोत्सवाच्या व्यासपिठावेल्यान 'म्हादय' हो विशय भौशीक जागृतायेचो एक व्हड विशय जालो. गोवा युवा महोत्सवांत २५ वर्सांनी हो विशय मुखेल व्यासपिठाचेर,

पथनाट्यांनी, हेर कार्यावळींनी खंबीर आनी गंभीरपणान मांडलो. फक्त २५व्या गोवा युवा महोत्सवाक 'मडगांवा' म्हादयचो विशय घोशणांनी जावंचो न्हय म्हण दबिल्ल्या आवाजान केल्ली सुचोवणी हें दांभीकतायेचें दर्शन घडोवपी आसलें. तरणाट्यांच्या धोल ताश्यांच्या गजरान म्हादयचो आवाजूच चिड्डून उडोवपाचो जो सोयीचो प्रयत्न जालो ताची कारणां मेळत काय? तरीय आसताना भाशा मंडळान लागणूक म्हण म्हादयचो प्रस्न तितल्याच पोटतिडकीन हाताळला ताचोय नियाळ घेवप तितलेंच गरजेचें. गोंयची अस्मिताय म्हादय ही संकल्पना कोंकणी भाशा मंडळाची, अस्मिताय प्रतिष्ठान मडगांव हे संस्थेन ती पुस्तिकेच्या रुपान चालीक लायली. शणै गोंयबाब हांचे १२५ वे जयंती महोत्सवाच्या वर्सा निमतान २००२ वर्सा उजवाडाक आयिल्ले हे बरपावळींत गोवा युवा महोत्सव आनी म्हादयची अस्मिता जागोवपाचो, राखपाचो हेतु स्पश्ट केला. म्हादय ही गोंयची अस्मिताय हें पटोवन दिवपाखातीर म्हादयविशींची जागृताय घडोवन हाडपाखातीर त्या वर्सा वाळपय सत्तरीत ७ वो गोवा युवा महोत्सव व्हडा प्रमाणांत जैतिवंत जालो. ताकाच धरून १५ ऑगस्टाक वाळपयसावन अस्मिताय ज्योत भायर सरली ती शणै गोंयबाब १२५ वे जयंतीच्या निमतान. शणै गोंयबाब आनी म्हादय हांचे नातें सांगपीय लेख हे पुस्तीकेंत उजवाडाक हाडल्यात. त्या महोत्सवांत म्हादय बचाव अभियानाचे राजेंद्र केरकार हांची ह्या विशया संदर्भात जाहीर भासाभास जाली. आनी मागीर सुरू जाल्ले अस्मिताय ज्योतीक धरून शणै गोंयबाबाच्या नांवान अस्मिताय ज्योत कित्याक? ती ज्योत पेटलीच ना अशेतरेच्यो बातम्यो कांय मराठी दिसाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यो. अर्थात तांका सडेतोड जापो प्रकाश वजरीकार, प्रमोद म्हाडेश्वर हांणी दिल्यो. कांय संपादकीय कातर लावन त्यो त्या दिसाळ्यांनीय छापल्यो. पूण अस्मिताय ज्योतीक नखलामी जावंक पावली ना.

साहित्यीक मळार सत्तरींतल्यान झिलू गांवकार हांचे ग्रामीण कला आनी संस्कृती संस्थेन 'म्हादई' हो विशेषांक काडलो. स्वामी विवेकानंद स्मृती संघांच्या तरेकवार शाखांवतीन 'म्हादय' स्मरणिका राजेंद्र केरकार हांच्या फुडारपणाखाला काडल्या. क्लावड आल्वारीस हांणी तांचे विमोचन केलां. प्रकाश पर्येकार हांणी म्हादय परिक्रमा करून ताचेर पयलीं वर्तमान पत्री लिखाण करून मागीर तें गोंय सरकारान पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडलां. (म्हादय काळजांतल्यान कागदाचेर) गोपीनाथ गांवस हांची 'म्हादय माये' ही कविता गोंय विद्यापिठाच्या बी.ए. अभ्यासक्रमांत आस्पावल्या. म्हादय संबंदान पथनाट्यां, जागृतायो, लघुफिल्मां, भोंवड्यो, नाट्य कलाकृती, संघटना, लोक चळवळ, म्हायतीचें संकलन, प्रासंगीक लिखाण, कायदेशीर लढायो अश्या विंगड विंगड आयामांनी जुव्यां-जुव्यांनी वावर चलतालो. आनी चलताय. पूण इतलेंच आसताना म्हादयच्या उदकाचें नियोजन करपाक, व्यापक जागृती करपाक हीं जुवींच आड आयलीं. भाशा माध्यम धोरणाचे लोक चळवळी वेळार कांय लेखक कलावंतांनी आपल्याक मेळिल्ले सरकारी पुरस्कार परत करपाची मोहीम घेतिल्ली. भजनी कलाकारांनी त्या वर्साची मनोहरबुवा शिरगांवकर राज्य भजनी स्पर्धा बंद उडयली. कोणूच वांटेकार जालो ना. त्याच काळांत म्हादय काळजांतल्यान कागदाचेरचें सरकारी प्रकाशन प्रचंड दबावाखाला जालें हेंवूय तितलेंच म्हत्वाचें.

आयच्या निर्णायक पांवड्यार लेखक कलावंतांनी कविता, नाटकां, लेख बरोवनूच जावंचे ना. ताणे रस्त्यार येवंचे पडटलें. डॉ. ऑस्कर रिबेलो म्हण्टात ते प्रमाण सगळ्यांनीच ह्या निर्णायक पांवड्यार सामाजीक बांदिलकी दाखोवचीच पडटली. डॉ. ऑस्कर रिबेलो हांणी गोवा बचाव अभियानाच्या माध्यमांतल्यान तें दाखोवन दिलां. डॉक्टर रिबेलो म्हण्टात ते प्रमाण दर एकल्यान जें जें शक्य आसा तें तें सगळें करपाक जाय. विचार, मत, पैसो, शक्ती संपर्क सेवा, पद, जें जें बलस्थान आसा तें तें शस्त्र म्हणून वापरपाक जाय. सामान्य मनीस, शिक्षक, पोलीस, मजूर, काम करपी, न करपी, भक्त, पुजारी हांणी ह्या दाराकडेन आयिल्ल्या सर्वनाशाक आडावं येता अशें डॉ. रिबेलो हांचे मत.

प्राथमीक ते उच्च शिक्षणीक मळार परिसर अभ्यास, पर्यावरणीय अभ्यास, परिस्थितीकी समिक्षा, संशोधन अशी प्रक्रिया चलता. सुप्रीम कोर्टाच्या निर्देशांक धरून देशभर पर्यावरण विशय शिक्षणांत चलता. गोंय ताका आडवाद ना. ह्या सगळ्या शिक्षकांनी सेवा म्हणून आपली पर्यावरणीय निश्ठा दाखोवपाचो हो वगत आसा !

**सोंपयताना : कोंकणी (उच्च) शिक्षकांक आवाहन**

म्हादय विशया संबंदान महाविद्यालय तशेंच विद्यापीठ पांवड्यावेल्या कोंकणी शिक्षकांच्या समाज माध्यमावेल्या एका ग्रुपाचेर हावें एक मजकूर ५ जानेवारी २०२३ दिसा घालो - मजकूर असो म्हादय काळजांतल्यान कागदाचेर येता आनी आमी अध्यापक ती विद्यार्थ्यांक समजावन सांगतात. म्हादयविशीं आमी सगळेच संवेदनशील आसात ही जाणविकाय मतींत घेवन आयच्या पेंच प्रसंगासंबंदान आमची शिक्षकांचीच भुमिका म्हत्वाची. आमी ती संघटीतपणान मांडची फक्त कोंकणीच शिक्षकांक न्हय. हो विशय सगळ्यांकूच लागता हेंवूय तितलेंच खरें. पूण आमी आमची लागणूक म्हणून फुडाकार घेवं येता न्हय? डॉ. प्रकाश पर्येंकार हांणी हे संबदान फुडाकार घेवं येता. डॉ. प्रकाश पर्येंकार हांणी आपली प्रतिक्रिया दिताना बरयलें - म्हादय न्हंये संदर्भांत निर्माण जाल्ल्या प्रस्नाचेर आमी एकठांय येवन विचार करपाक जाय ह्या मताकडेन म्हजी सहमती आसा. आमची भुमिका सरकार आनी सर्वसामान्यांमुखार दवरप ही म्हादयच्या उदकाकडेन आमची आशिल्ली लागणूक थारतली. आमचे सगळ्यांचे सोयी प्रमाण शिक्षकांची बसका घेवपा संदर्भात मत कळोवचें. ताका प्रतिक्रिया म्हण डॉ. कॉस्मा फर्नान्डीस, प्रा. अंजू साखरदांडे, प्रा. भालचंद्र गांवकार, प्रा. प्रियदर्शीनी तडकोडकार हांणी हांव आसा म्हण जाप दिली - गोंय विद्यापिठांत कोंकणी एम.ए. खातीर पर्यावरण आनी परिस्थितीकी समिक्षा हो पेपर अभ्यासक्रमांत लायला. (म्हायतीखातीर)

संपर्क: 9923245603

***

# गोंयांत म्हादय नाका!!!

पश्चिम घाटांतल्या भीमगाळ अभयारण्यांतलो ल्हानसो उदका झरांव फुडें दोन राज्यांमदी येदें व्हडल्या गेर्राचे निमीत्त जांव येता अशें, १९८९ मरेन त्या दोनूय राज्यांत रावतल्या कोणेच चीतूंक लेगीत नासलें. हजारांनी वर्सां फाटीं मनश्याची वसणूक न्हंयच्या देगे लागीं आसताली. मनीस जीतो उरचे परस उदक एक महत्वाचें घटक हें मुखेल कारण आसलें. त्या भायर शेतां भाटांक उदका पुरवण लागताली. त्या काळार येरादारी भोंवतेक करून न्हंयांतल्यान जाताली. न्हंयालागीं राबितो केल्ल्यान हेर टोळक्यांतल्या दुस्माना पासून तांची राखण जाताली. फुडें फुडें लोकसंख्या वाडत गेली, मनश्याच्या सदच्या गरजे वांगडा हेर गजालींची मागणी वाडत गेली. लोकवस्ती वाडली. मनश्याचो राबितो न्हंयची देग सोडून हेर जाग्यांनी गेलो. थंय पिवपाच्या उदकाची पुरवण जांवची म्हूण मनश्यांनी वेगळी वेवस्था केली. वाडीव लोकसंख्या आनी लोकवस्ते वांगडाच न्हंयचे उदक पिवपा पासत कमी आनी धूवपा पासत चड वापरांत येवंक लागलें. आमच्या देशांत तर न्हंयांचेर कपडे, आयदनां, गोरवां धुतना मनीस स्वतः आपणाक लेगीत न्हावन धुवन घेता. उद्देगीकरणा पासत उद्योग वाडीक लागले. न्हंयच्या धडेवेले कारखाने उदकाचो वापर करून आपली घाण परत त्याच न्हंयेक सोडूंक लागले. पवित्र अश्यो मानिल्ल्यो न्हंयो मनश्याचीं पापां धुतना आनी उद्देगीकरणाक लागून स्वतः पापी जांवच्या वाटेर पावल्यो. नितळ उदकाचो उणाव जाणवूंक लागलो. परिणाम, पयलीं देसा मदीं उपरांत राज्या मदीं सुरु जाल्लीं केस्तावां गावांनी, वाड्यांनी पावलीं.

सगळ्यांत पोरणे राज्या मदीं उदका पासतचे केस्तांव हें २३५० आनी २५०० वर्सा सुमेरिअन देशांतल्या लागाश आनी उम्मा हांचे मदीं जाल्याची नोंद मेळटा. आयज जगभरच्या न्हंयच्या उदकाचें प्रदूषण आनी शोषण जाता तें नजरे सामकार हाडत तर ह्या मुखावेलें जागतीक गेर्र हें उदका पासत जातलें अशें म्हणटात तें फट थारचें ना. मनश्याच्या जीणेंत उदक हें मुखेल घटक हें लोक विसरत चल्ल्यात. कसल्याय गजालीचो व्हालोर कमी करच्या वगतार मनीस उदका भशेन पयसो व्हांवयलो अशें सांगत आपली श्रीमंती जगा मुखार मांडटा. खीणाक ही जरी पयश्यांची उधळपट्टी दिसली तरी जेन्ना हें पयश्याचें व्हांववप कोणा गरजेवंताच्या दुयेंसा पासत जाता अथवा कोणाक मजत करच्या वेळार जाता त्या वेळार तें जीवनसाध्य थारता. उदकांक रंग नासता, रूच नासता वांगडा धर्म, जात, पात नासता. ताका जातूंत मिस्तूर केलें तें तांतलें जालें. गोंयच्या देवळांनी लोक तें तीर्थ म्हण पिले आनी ताव्हेर्नांनी सोऱ्या वांगडा मिस्तुराद केलें. गोंयकारांनी घर प्रवेशाक पवित्र जल आनी घोरफुर्साक बेजमेन्त म्हण वापरांत हाडलें. आज सरभोंवतणी नजर मारत १९६१ मरेन पुर्तुगाली राजवटीखाला दुसऱ्यांच्या पोशान उदक पियेवपाची लोकांची संवय गोंय सुटकें उपरांत लेगीत गेली अशें तरी दिसना. मागीर तें जांव राजकारण, समाजकारण, भास, खाण, न्हेसण. ह्यो सगळ्यो गजाली पुरायपणान खासा गोंयकांराच्यो जांव येता हाचो गोंयकारांक केन्ना विसर पडला.

ह्या सगळ्याची सुरवात नीज गोंयकार कोण? ह्या प्रश्नाक धरून जाता. गोंयात गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी कष्टजीवी मनीस नीज गोंयकार काय आपल्या देसाचें नागरीकत्व सोडून दुसऱ्या देसांत बसून आमी गोंय कशें वाटावंक जाय अशें आदेश वा शेरमांव दिवपी हे नीज गोंयकार? कुडकुड्याच्या शींया दिसांनी मोटवे कालसांव आनी ताचे वयर हात कापे कोराद शीमलेट घालून भोंवपी नीज गोंयकार काय घामां पावळ्यो व्हांवतना लेगीत त्या दिसांनी थ्री पीस टेरीकॉट सूट बूट घालपी हो नीज गोंयकार? पुडवें तोपी ताचेर जुदी घालपी बाप्पा हो नीज गोंयकार कांय काश्टी मारून नुस्तें पागपी, माडाची सूर काडपी हो नीज गोंयकार? आमची भास कोंकणी. कोंकणी भाशेक राज्य भाशेचो दर्जो मेळले उपरांत लेगीत वाद करपी हो नीज गोंयकार? काय गोंयचे प्रस्न कशे सुटावे जावंक जाय म्हण इंग्लेज भाशेंतल्यांन भाशणां दिवपी मुखेली हे नीज गोंयकार? अश्या जायत्या न सुटावे जावपी प्रस्नांनी गोंयांत रावपी सामान्य मनीस घुसपल्लो आसा. नीज गोंयकार कोण हें जरी आयज मेरेन थारुंक ना. पुण ह्या घुस्पल्ल्या मनस्थितीचो उपेग करपी राजकारणी आनी समाजकारणी मुखेली हेच खरे नीज न्हय तर चलाख आनी शादूर गोंयकार हातूंत मातुय दुबाव ना!!

म्हादयचो प्रश्न फाटलीं तीस वर्सां मायज चलत आसा. राजकारणी बदलत गेले. जशे ते बदल्ले तांचे समर्थक बदल्ले. जांची सत्ता, तशी

चिंता अशें जावंक लागलें. ह्या मजगती थंय ताणी उदक आडावन परतुपाचें आपलें काम सादोवन घेतलें. आनी हांगा आपणे कितें केले हाचे परस कोणे कितें करुक ना हें मांडपाची चडाओढ सुरु जाली. राजकारणी, स्वामी, पाद्री, शिक्षक, कलाकार, नकलाकार सगळ्यांची चिंता सुरु जाली. पत्रकार आनी सूत्रधार नेटान कामाक लागले. घांटावेल्यान येवन गोंया राविल्यांक घांटी म्हटल्यांनी लेगीत आपली चिंता परगटायली. आयज मेरेनचे हे भायले लोक भितरले जाले. घांटा वेल्यान येवपी उदका भशेन! पयलेच खेप गोयकारांक भायले हे कशे घांटी ह्या विशयाचो शेर्माव आयकुंक मेळ्ळो ना. भाजीपालो, लायट, उदक धरून नुस्तें आनी सोऱ्याक लेगीत भायल्यांचेर अवलंबून आसपी गोंयकार आजून लेगीत भायर - भितर खेळ खेळत आसात.

२०२२ - २०२३ उदकाच्या गुणवत्ता तपशीला नुसार मांडवी, झुवारी, साळ, तेरेखोल, शापोरा ह्यो सगळ्यो न्हंयो पुरायेन प्रदुशीत जाल्यात. ह्या फांटभुयेर ह्या सगळ्या न्हंयच्या प्रदूशणाविशीं चिंता तशेंच त्या विशींचो हुस्को जावंक जाय तितलो कोणाकूच जाल्लो आयज मेरेन तरी दिसना. कोळसो, रानां, मीना खणी, रेल्वे रुंदीकरण ह्या विशयाचेर ज्या नेटान एकठावता, तो नीज गोंयकार म्हादये बाबतीत मात मातसो आळशावल्या वरी दिसता. घडये तो आदेशाची वाट पळयता जांवये. आमुडल्या बगर चोम्यांनी न एकठावपी नीज गोंयकार शेर्मावां, आदेश, फतव्या उपरांत मातसो जागो जाता ही खोशेची गजाल. गोंयकार म्हणून एकठावले जाल्यार जात पात भेद विसरून हें काम जावपाक जाय. आमची म्हादय म्हणचे पयली आमी कोण हें पयलीं समजून घेवंक जाय. भीमगाळ अभयारण्यांतलो ल्हानसो उदका झरांव लेगीत निखळपणान, स्वतंत्रपणान व्हांवक शकलोना. जाग्या जाग्यांनी तो बदलत गेलो. परिस्थितीनुसार तांचो व्हाळ जालो. एकेकडेन तो धबधबो जालो आनी गोंयांत पावल्या उपरांत म्हादयच्या रुपान गोंयकारांमदी एकरूप जालो. कोणेच ताका घांटी म्हण हिणयलो ना, हुश्यो घाल्यो ना. जें आपलें मूळ तें राखूंक जाय हें जेन्ना मनीस विसरता आनी तें सोडून आपणाचेर नाका आशिल्ल्या माथ्यार थापिल्ल्या गजालींचो अभिमान बाळगीता, त्या वेळार तो धड हांगाचो न्हय आनी धड थंयचोय न्ही असो थारता. तो सदाच गुलामींत उरता. ताका स्वतःचें मत उरना. आनी शेवटाक ताका 'रांड म्हण पुण पोटभर वाड' हेच वृत्तीन जगचें पडटा.

पियेवपाचे उदक कांय प्रमाणात सोडत तर गोंयकारांक खुपश्या जीवनावश्यक गजाली पासत भायल्या राज्यांचेर अवलंबून रावचें पडटा हें आमी न्हयकारुंक शकनात. गोंयात पडपी पावस, आशिल्ल्यो न्हंयो, बांयो, तळीं, खाजनां हांची जावंक जाय तशी जतनाय जायना. ती जावंक जाय. आपलें आसा ते तिगोवन दवरीत तर दुसऱ्यांचेर अवलंबून रावपाची पाळी येवंची ना. आनी जर हें आमी केले ना, आमका स्वतःच्या अस्तित्वाची जाण हाडली ना तो मेरेन तरी गोंयांत म्हादय नाका!!!

संपर्क: 9822129070

***

# ‘ तुमी कोंकणीवादी भोंकतात पूण चाबनात ’



**उदय भेंब्रे**

भारत सरकारान १९६३ वर्साच्या मे म्हयन्यांत गोंय-दमण-दीव संघप्रदेश कायदो केलो. त्या कायद्या खाला दमण आनी दीव ह्या प्रदेशा वांगडा गोंयांक संघप्रदेशाचो दर्जो मेळ्ळो. संघप्रदेशाक विधानसभा आशिल्ली आनी ते विधानसभेखातीर ३० वांगडी वेंचून काडपाचे आशिल्ले. गोंयांक २८, दमणाक १ आनी दीवाक १ अशे जागे दिल्ले.

विधानसभेची पयली वेंचणूक त्याच वर्सा डिसेंबर म्हयन्यांत जाली. हे वेंचणुकेंत गोंयांत महाराष्ट्रवादी गोमंतक आनी ताचो इश्ट-पक्ष प्रजा समाजवादी पार्टी हांकां १६ जागे मेळ्ळे, युनायटेड गोअन्स पक्षाक १२ जागे मेळ्ळे. म.गो. आनी इश्ट - पक्ष प्र. स पार्टी हांचें सरकार सत्तेर आयलें. दमणांत कॉंग्रेस उमेदवार जिखलो तर दीवांत अपक्ष उमेदवार वेंचून आयलो. वेंचणुकेंत मतां पडलीं तीं अशीं:

| | |
|---|---|
| म. गो. + प्र.स. पार्टी......... | १,१९,७८८ |
| युनायटेड गोअन्स............... | ७४,९८१ |
| कॉंग्रेस.......................... | ४१,७२७ |
| फ्रॅन्ति पोपुलार................... | ४,५८९ |
| अपक्ष.......................... | १७,०१३ |

म.गो. + प्र. स. पार्टी हांकां १,१९,७८८ मतां पडिल्लीं. तर तांचे आड पडिल्ल्या मतांचो आंकडो आशिल्लो १,३७,४१० म्हळ्यार, सत्तेर पाविल्ल्या पक्षां परस विरोधकांक १७,६२२ मतां चड पडिल्लीं. अपक्षांक कडेक दवरून यु.गो.; कॉंग्रेस आनी फ्रॅन्ति पापुलार ह्या तीन म, गो.विरोधी पक्षांक मेळिल्ल्या मतांची बेरीज केली जाल्यार तीं १,२०,३९७ आशिल्ली. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार म.गो. आनी प्र.स.पा. हांकां मेळिल्ल्या मतां परस तीं चड आशिल्लीं.

१९६७ वर्सा १६ जानेवारीक ओपीनियन जालो. पोलांत संघप्रदेशाचो दर्जो चालू उरचो अशें मागपी लोकांचीं मतां १,७२,१९१ (५५.४८%) आशिल्लीं; तर विलीनीकरण जाय म्हणटल्यांचीं मतां आशिल्लीं १,३८,१७० (४५.५२%). मतदारांक दोनूय पर्याय दिल्ले. देखून संघप्रदेशाचो दर्जो चालू उरचो हाचो अर्थ विलीनीकरण नाका असो जातालो. विलीनीकरण जाय अशें मागप्यां परस चड जाणांनी, म्हळ्यार ३४,०२१ मतदारांनी विलीनीकरण नाका अशें मत दिल्लें. ह्या आंकड्यांची चिकित्सा करतकूच, युनायटेड गोअन्स आनी कॉंग्रेस हांची युती जाली जाल्यार महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाक हारोवंक जाता हें स्पश्ट जालें.

ओपीनियन पोला खातीर पयली विधानसभा १९६६ वर्सा डिसेंबराच्या पयल्या सप्तकांत विसर्जीत जाली. १९६७ वर्सा १६ जानेवारीक मतदान जावन १९ जानेवारीक निकाल जाहीर जाले. दुसरे विधानसभेची वेंचणूक रोखडीच जाहीर जाली वेंचणुकेची तारीख आशिल्ली २८ मार्च १९६७.

महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचें सरकार परतें सत्तेर आयलें जाल्यार 'महाराष्ट्रवादी'च उरतलें आनी गोंयचें बरें करुंक पावचें ना अशें खूब जाणांक दिसतालें. तांचे मदल्या कांय विचारी नागरिकांनी पयले वेंचणुकेंतल्या आनी ओपीनियन पोलांतल्या मतांच्या आंकड्यांचो अभ्यास केलो तेन्ना तांकां दिसलें, म.गो. पक्षाक सत्ते पसून पैस दवरुंयेता आनी तशें करचे खातीर युनायटेड गोअन्स आनी कॉंग्रेस ह्या पक्षांची युती जावंक जाय; युतीन वेंचणूक लडोवंक जाय. तशी युती घडोवन हाडचे खातीर कांय नागरिकांनी फुडाकार घेतला. ते कॉंग्रेस पक्षाच्या थळाव्या फुडाऱ्यांक मेळ्ळे. तांणी युती करपाच्या विचाराक येवकार दिलो. उपरांत ते नागरीक युनायटेड गोअन्स पक्षाचे अध्यक्ष आशिल्ले डॉ. ज्यॅक डी सिकैर हांकां मेळ्ळे. तांणी मांडिल्लो विचार डॉ. सिकैर हाणी मानून घेतलो ना. नागरिकांच्या त्या गटान तरेक तरांनी डॉ. सिकैर हांकां युतीची गरज पटोवन दिवपाचो यत्न केलो; पूण तो निर्फळ जालो. यु. गो. आपणाल्या बळार जिखतलो, ताका युतीची गरज ना ह्याच मुद्द्याक ते दसून रावले. नागरिकांचो गट निर्शेवन परतलो.

नागरिकांच्या त्या गटाचे एक वांगडी आशिल्ले मडगांवचे फा. लुसियू व्हैग कुतिन्य. धर्माच्या मळार तांकां मान आशिल्लोच पूण क्रिस्तांव समाज आनी हिंदू समाजांतले जायते जाण तांकां मानताले. तांणी आनी तांच्या सांगात्यांनी केल्लो यत्न निर्फळ जातकूच एक दीस ते म्हाका मेळ्ळे. आमचे मदीं उलोवणें जालें तें सादारणपणान अशें:

"उदय, तुवें एक काम करपाक जाय. गोंयच्या बऱ्याचें काम." - फा. कुतिन्य.

"कसलें काम फादर?" - हांव

"वेंचणूक मार्च म्हयन्यांत जातली. कॉंग्रेस आनी यु. गो. एकठांय आयल्यार म.गो. पक्ष हारतलो अशें तुका दिसना?"

"दुबावूच ना. मतांचे आंकडे तें स्पश्ट सांगतात."

"तर एक काम कर. हे डॉ. सिकैरीक पटोवन दी. आमी जायतो यत्न केलो. कॉंग्रेस फुडारी तयार आसात पूण डॉ. सिकैर मानून घेना. जायत्या तरांनी समजायलो ताका; पूण तो यु.गो.च जिखून येतलो म्हणटा."

"तुमचें जाण्ट्याचें तो आयकून घेना जाल्यार म्हजे सारक्या तरणाट्याचें आयकून घेतलो?"

**उदय भेंब्रे हांचें "यादींचो कुरपणो" हें पुस्तक उजवाडाक येवचें आसा. त्या पुस्तकांतली ही एक याद.**

''म्हाका दिसता, तूं घडये ताका पटोवन दिवपाक पावतलो. ताचे आनी तुजे संबंद बरे आसात. तुमी ओपिनियन पोलांत एकाच हावेसान वावुरल्यात. कांय वेळा एकेच माचये वयल्यान उलयल्यात. घडये, तुजें सांगणें तो समजून घेत आनी मानुनूय घेत.''

''ती खात्री दिवंक जांवची ना. पूण हांव प्रयत्न करतां.'' फा. कुतिन्य हांचो आग्रो इतलो खर आशिल्लो की दुसरे तरेन जाप दिवपाक म्हाका जमलें ना.

दीस आनी वेळ थारावन हांव पणजे काम्पालार डॉ. सिकैर हांगेर गेलों. दार उगडटल्यान म्हाका सालांत बसयलो कांय मिण्टां भितर डॉ. सिकैर आयले. तांचे फाटोफाट तांचो सुणो आयलो. डॉ. सिकैर म्हजे मुखावयल्या कदेलार बसले. सुणो कदेला सरीं एके कुशीक बसलो. हांवें तोंड उगडचे आदींच डॉ. सिकैर हांणी सुण्याक बोट दाखयलें आनी म्हाका सांगलें,

''हाका हांवें नांव दवरलां 'कोंकणीवादी' ''

डॉ. सिकैर म्हजो वा कोंकणीच्या सगल्या अभिमान्यांचो अपमान करूंक सोदतात अशें म्हाका दिसलें. हांव मात्सो गोंदळ्ळों त्या खिणाक. म्हजे चर्येर कसलो भाव दिसलो आसतलों तें म्हज्यान सांगूंक जायना. डॉ. सिकैर हांणी फुडें म्हळें.

''तुमी कोंकणीवादी भोंकतात पूण चाबनात.''

ह्या उतरां वयल्यान डॉ. सिकैर हांणी सुण्याक 'कोंकणीवादी' हें नांव कित्याक दवरिल्लें तें कळ्ळें. पूण 'भोंकप' आनी 'चाबप' हांचो कोंकणीच्या संदर्भांतलो अर्थ कळ्ळो ना. परत मात्सो गोंदळ्ळों. पूण त्या विशयाचेर वाद वा संवाद करूंक गेलों जाल्यार हांव उलोवंक आयलां तो विशय तसोच उरतलो हाची जाणविकाय जाली हांवें त्या विशयाक हात घालो. हांव कसलो विशय उलोवंक आयलां तें सांगलें.

''कितें म्हणटां तूं?'' डॉ. सिकैर हांचो प्रस्न.

हांवें पयले वेंचणुकेंतल्या मतांचें तशेच ओपिनियन पोलांतल्या मतांचें गणीत मांडले आनी यु. गो. पक्षाचीं आनी काँग्रेस पक्षाचीं मतां हांची बेरीज केली जाल्यार म.गो. पक्षाक हारोवंक जाता अशें विस्तारान सांगलें.

''तर आतां कितें करचें अशें तुका दिसता?'' - डॉ. सिकैर हांचो दुसरो प्रस्न.

ह्या प्रस्नाक जाप दितना हांवें म्हळें, एकूच मार्ग आसा. तो म्हळ्यार यु.गो. आनी काँग्रेस हांची युती जावप. युतींत यु.गो. होच मोटो पक्ष उरतलो हेंवूय त्या जापेक जोडलें. डॉ. सिकैर हांणी विचार करपाक वेळ काडलो ना. रोखडेंच म्हळें,

''कित्याक जाय दुसरो पक्ष? विलीनीकरणाचे आड जीं मतां पडल्यांत तांतुंतलें दर एक मत युनायटेड गोअन्स पक्षाकूच पडटलें.''

आयकून म्हाका अजाप दिसलें. डॉ. सिकैर शिकिल्लो-सवरिल्लो राजकारणी. बुदवंत मनीस. हांवें मांडलां तें गणीत सोपें आनी स्पश्ट आसा. तरी हो फुडारी अशें कशें चित्ता?

हांवें आस्त सोडली ना. ते समजतात तें खरें न्हय हें नमळिकायेन आनी तांचो मान राखून सांगलें. विलीनीकरणाचे आड जीं १,७२,१९१ मतां पडल्यांत त्या मतां मदीं यु. गो. चीं मतां आसात, काँग्रेसचीं मतां आसात, राजकी पक्षां कसलोच संबंद नाशिल्ल्यांचीं मतां आसात; इतलेंच न्हय तर कांय मराठीवाद्यांचीं आनी कांय म.गो. क आदीं तेंको दिल्ल्यांचीय मतां आसात. यु.गो. चीं मतां यु.गो.क मेळटलीं; पूण हेर मतां विशीं तशें धरूंक जावचें ना असो मुद्दां हांवें मांडलो. ताचेर डॉ. सिकैर हांची जापः

''कित्याक पडचीं नात? ज्या गोंयकाराक विलीनीकरण नाका त्या गोंयकाराचें मत यु.गो.कूच मेळटलें.''

तशें घडचें ना अशें सांगपाचो हांवें आनीक एक यत्न केलो. ज्या गोंयकारांक विलीनीकरण नाका त्या सगल्यांकूच यु.गो. सत्तेर आयिल्लो जाय अशें ना. वेंचणुकेंत काँग्रेसजन काँग्रेस पक्षाक मत दितले, मराठीवादी घडये म.गो.क मत दितले आनी हेर मतदार कोणाक मत दीत तें सांगूंक जायना. यु.गो.चीं मतां सुगूर आसात; पूण त्या मतां वरवीं यु.गो.क सत्ता मेळूंक पावची ना. तेच खातीर, काँग्रेस - यु.गो. युती जांवची अशें जायत्या जाणांक दिसता. म.गो. चें सरकार परत नाका अशें हांव जायतें उलयलों. डॉ. सिकैर हांणी तें आयकून घेतलें आनी म्हाका सांगलें,

''उदय, आयक, तुमची समजणी चुकता. विलीनीकरणाचे आड आसा तो दर एकलो गोंयकार वेंचणुकेंत यु.गो.कूच मत दितलो. यु.गो. चेंच सरकार येतलें.''

हांव मात्सो निर्शेलों. तरी पूण डॉ. सिकैर हांकां पटोवपाचो यत्न चालू दवरलो. आमी प्रचार कसो केल्लो ताची वर्णनां केलीं. अंत्रुजेंतल्या सभांनी आमी 'तुमकां भाऊसाहेब बांदोडकार मुख्यमंत्री म्हूण जाय जाल्यार गोंय वेंगळें उरूंकूच जाय' अशें सांगिल्लें हें भर दिवन सांगलें. आदीं आमकां त्या वाठारांनी सभा घेवंक दिनाशिल्ले; पूण ते तरेच्या प्रचाराक लागून लोक उलोवपां आयकूंक लागले. ते लोक यु.गो.क मतां दितले अशें दिसना.

तांकां विलीनीकरण नाका अशें दिसलें आसत; पूण म.गो. पक्ष नाका जाला अशें धरूंक जावचें ना. जितले प्रभावी रितीन हे मुद्दे मांडूंक म्हाका जमलें तितले प्रभावी रितीन हांवें ते मांडले आनी डॉ. सिकैर ते समजून घेतले असो हावेस बाळगिलो. उत्सूकतायेन डॉ. सिकैर हांच्या तोंडा कडेन पळयलें. निर्विकार चर्येन तांणी प्रतिक्रिया उक्तायली:

''कारण कसलेंय आसूं; पूण तांणी विलीनीकरणाचे आड मत दिलां. आमचो पक्ष विलीनीकरणाचे आड. देखून तीं मतां वेंचणुकेंत यु.गो. कूच पडटली.''

डॉ. सिकैर हांकां समजावप आनी युतीची गरज पटोवन दिवप हें महाकठीण म्हणपाची जाणविकाय म्हाका जाली. निमणो यत्न म्हूण हांवें म्हजे कडेन आशिल्ल्या मुद्द्यांच्या पानां मदलो एको काडलो. हांवें सांगलें ताचें सार अशें:

युनायटेड गोअन्स आनी काँग्रेस हांचीं मतां, तशींच ओपीनियन पोलांतलीं मतां दाखोवन दितात की म.गो. च्या मतां परस तीं चड आसात. युतीचीं मतां म.गो.च्या मतां परस चड जातात. म्हण्टकूच त्या मतांचेर युतीक सत्ता मेळूं येता. युतींत यु.गो. हो मोटो पक्ष आसतलो आनी मुख्यमंत्री जावपाची संद तुमकां मेळटली. तुमी ती सोडची न्हय

अशें आमकां दिसता. म.गो. चें सरकार परतें सत्तेर आयिल्लें आमकां नाका. त्या पक्षाक गोंयचो अभिमान ना. तुमकां तो आसा. देखून तुमी युती करून मुख्यमंत्रीपदार येवंचें आनी गोंयचें बरें करचें हे खातीर आमची ही विनवणी.

डॉ. सिकैरींचेर परिणाम जालो अशें दिसलें ना. तांचें पालुपद तशेंच आशिल्लें:

''उदय, तूं भिये नाका. युती बी करपाची कांयच गरज ना. यु.गो. पक्ष सत्तेर येतलो आनी सरकार घडयतलो.''

म्हजे कडेन आनीक मुद्दे उरूंक नाशिल्ले. कदेला वयलो उठलों. ''येतां तर हांव. पूण डॉक्टर, तुमी युतीच्या विशयाचेर अदीक विचार करचो?'' अशें म्हळें. डॉ. सिकैर हांणी फकत तकली हालयली. हांव भायर सरलों.

मडगांवां येतकूच फा. लूसियु व्हॅग कुतिन्य हांकां मेळून डॉ. सिकैर हांचे कडेन जाल्ल्या उलोवण्यां विशीं सांगलें. युतीची गरज हांव डॉ. सिकैर हांकां पटोवन दिवंक पावलां अशें दिसना हेंवूय सांगलें. फा. कुतिन्य हांचे चर्येर हांवे निर्शेणी पळयली. सत्ता मेळोवपाची संद आयल्या; मुख्यमंत्रीपदाचीय खात्री धरूं येता; अशें आसुनूय हो मनीस पांयार कुराड कित्याक मारून घेता असो प्रस्न तांच्या मनांत उप्रासला जातलो अशें म्हाका दिसलें. म्हाकाय तो प्रस्न पडिल्लो. हो राजकी फुडारी; यु.गो. पक्षाचो अध्यक्ष; पयले वेंचणुकेंत यु.गो.क विरोधी पंगड म्हूण वावुरचें पडलें; हे दुसरे वेंचणुकेंत सत्तेर पावंयेता; तरी युती नाका कित्याक म्हणटा?

डॉ. सिकैर हांचे कडेन चर्चा जाली तेन्ना काँग्रेस पक्षा आड तांणी एकूय उत्तर काडलें ना. त्या पक्षाच्या वरिश्ठ आनी थळाव्या फुडाऱ्यां विशीं कसलीच करांदाय केली ना. तरी युती करपाक न्हयकार कित्याक? तांचे काँग्रेसच्या वरिश्ठ फुडाऱ्यां कडले संबंद बरे आशिल्ले हें हांवे जाणां आशिल्लों. गोंयच्या संबंदान कसलोच म्हत्वाचो निर्णय घेतना केंद्रांतले काँग्रेस फुडारी बांदोडकारांचें मत समजून घेताले तशेंच डॉ. सिकैर हांचेंय मत समजून घेताले. लॉबींग करपाक काँग्रेस पक्षाचीं अधिवेशनां बऱ्याक पडटालीं. एकाच माटवांत कितलेशेच फुडार मेळटाले. असल्या दोन तरी अधिवेशनांक 'राष्ट्रमत' दिसाळ्याचो प्रतिनिधी म्हूण गेल्ल्या वेळार हांवें थंय डॉ. सिकैर हांकां पळयल्ले. तर आतां अशी भुमिका कित्याक?

कांय दिसांनी काँग्रेस पक्षान थारायल्लें की ही वेंचणूक लढोवची न्हय. ताका लागून युतीचो विशय उरलो ना. वेंचणुकेंत म.गो. पक्षाक १६ जागे मेळ्ळे तर यु.गो. पक्षाक १२ जागे. आनी हें १६-१२ चें राजकारण फुडेंय चल्लें. परिणामीं, ओपीनियन पोला उपरांत १४ वर्सां म.गो.च्या हातांत सत्ता उरली. कांय क्षेत्रांनी गोंयचें लुकसाण जालें. कोण जापसालदार, यु.गो. पक्ष काय डॉ. सिकैर? हे विशीं वेगवेगळीं मतां आसुंयेतात. म्हजे विशीं सांगतलों जाल्यार, डॉ. सिकैर हांचे वागणुकेचें म्हाका पडिल्लें कुवाडें अजून सुटूंक ना.

संपर्क : 9822163223

***

# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

**माधव बोरकार**

चवथो वांटो



भांगी हांचे कवितेच्या अंतरंगात भितर सरपाक कांय दारां आनी जनेलां आसात. हीं दारां आनी जनेलां घट्ट बंद आसलीं तरी तीं केन्ना केन्ना किलकिलीं जातात. व्यक्तिनिष्ठ कवीच्या बाबतींत ती शक्तताय चड आसता. पांडुरंग भांगी हे एक व्यक्तिनिष्ठ कवी. हो कवी जीविताचो भार सोंसतना भाराक तरसादीची धार येता आनी दोळ्यांतली वात रंद्रारंद्रांत जाता. हो भार वेगळोच. तो सोंसतना आनी झेलतना भाराक दर्याचीं झुंबरा फुट्टात. आनी अखेरेक

*भार सोंसतना झेलतना*
*जाया - जुयांचो पाट*
*अशे भाग्यवंत वेळे*
*म्हजी फागुरली वाट*

हे कवितेच्या निमाण्या कडव्यांत अणभवाचो आळाव आयला. प्रवासाच्यो जाणिवो तांचे कवितेंत वेगवेगळे तरेन अभिव्यक्त जाल्यात. वाटेवेल्या आल्तड पल्तडच्या गावांत वाऱ्यांचीं मोडां घुंवता आनी त्या वाऱ्याबरबर धारेर पाविल्ल्या होड्यांचीं बंदरां व्हावन गेल्यांत. चडटी चडटना ताचीं धोपरां फुटून गेल्यांत आनी निसरून मुळसांत पडलो जाल्यारूय ताची ताका खंत जावची ना. पुराण कथेंतल्या सिसिफसा भशेन तो ती चडटी चडत रावतलो. ती तांक आनी हावेस ताचेमदीं खर आसा. देखून गळिल्ल्या रगताच्या थेंब्यातल्यान पिसोळी उडटात आनी थेंब्या कणकणी वज्राचो शिंवर जाता. हांगाय कवीच्या जीवितांत साक्षात्काराचो खीण येता.



*माळंगार पावलों आनी*
*दर्या जालो काळो*
*जोगूल पेटून खिणांत हांव*
*मळब कशें निळो*

हांगा कवी काळो आनी निळो हे दोन रंग Juxtapose करून संवंदनेक धार हाडटा.

कांय व्यक्ती भोंवतणच्या वास्तवा पासून आपल्याक मुक्त करून घेतात. हें सामाजीक वास्तव आसूं वा राजकीय वास्तव आसूं. ताचें व्यक्तिमत्व ताचे पासून आपल्याक पयस दवरता. त्या वास्तवाचो ताच्या व्यक्तिमत्वांत आशिल्ल्या 'हांव' चेर कसलोच परिणाम जायना. अध्यात्माचे परिभाशेंत हो 'हांव' हेंच ते व्यक्तिचें केंद्र आनी हो 'हांव' आनी भायल्या वास्तवाचें भान हांच्या मदल्या नात्याचेर कवितेचें सृजन जाता. भारतीय तत्वज्ञानात 'अहंब्रह्मास्मी' अशी एक संकल्पना आसा. हाचो अर्थ थोडे भितर असो जाता. व्यक्तिंची अध्यात्माच्या मळावेली उदरगत जातकच 'हांव' भोंवतणी आशिल्ल्यो मेरो उपून तो ब्रह्मा भितर आस्पावता आनी ताचो एक अंश जावन रावता. ही अवस्था सोपेपणान येना. ताका दीर्घ काळाची साधना लागता. पूण ही अनुभूति कोंकणी कवितेंत आडवादानूच दिसून येता. ताची एक देख म्हूण भांगी हांचे कवितेकडेन पळोवं येता. हे विशीं हे आदीं थोडी भोव चर्चा जाल्या. आनी हांगा त्या मुद्द्यांक थोडी जोडणी केल्या.

वाट्याक आयिल्लें दर एक खीण मनशान भोगून आंगाक लावपाक जाय. आनी मागिरूच

*हांव कोण? हांव कोण?*
*खंयच्या अणूचो अणू?*
*उजवाडाच्या दूदसागराचो*
*हांवय एक परमाणू!*

असो अणभव येवंक पावता. ह्या अणभवाचे अभिव्यक्तीक लागून भांगी हांची कविता गूढ जाता. आनी तिचेर दुर्बोध असो छाप उदेता. ह्या संदर्भांत कवितेंतली दुर्बोधताय म्हळ्यार कितें हाचो थोडें विशयांतर करून वेध घेवं येता. कांय फावट ही दुर्बोधताय उतरांच्या वापराक लागून येता. जेन्ना कवी घोळणुकेंत आशिल्ली उतरावळ सोडून पोरनी उतरां वापरता तेन्ना भाशीक पांवड्याचेर ती दुर्बोध जाता. उतर हो कवितेचो मूळ घटक. ताचे भितर एका परस चड अर्थ आसपाच्यो शक्यतायो दडिल्ल्यो आसतात. सगळ्याच उतरांच्या संदर्भांत तशें म्हणपाक मेळना. कांय उतरांक एका परस चड अर्थाचीं परिमाणां आसतात. एखाद्रो कवी कृष्णदास शामाच्या काळांतलीं उतरां एकविसाव्या शेकड्यांत वापरतना तांकां नवो अर्थ दिवपाचो यत्न करता वा आसा त्याच रुपांत तो वापरता. (कृष्णदास शामाच्या 'कृष्णचरित कथा' सारकिल्या काव्यांत कोंकणी उतरावळ आयल्या ताचो आमच्या कवींनी अभ्यास केल्यार तो फळादीक जावंक पावतलो. पु. शि. रेगे सारकिलो मराठींतलो एक श्रेष्ठ कवी ज्ञानेश्वरी सारकिले कवितेंतले उतरावळीचो आपले कवितेंत वापर करता. तेन्ना तीं उतरां नवीं दिसतात.)

कांय कविता दुर्बोध आनी एका कारणाक लागून जाता. उतरां सादीं सोपीं आनी चालंत अर्थाचीं आसून लेगीत कवितेच्या आशयाक लागून ती दुर्बोध जाता. भारतीय कवितेंत ताच्यो जायत्यो देखी मेळटात. ज्ञानेश्वराच्यो कूट काव्यां, एकनाथाचीं भारुडां आनी कबिराचीं उल्टी बासिंया ह्यो रचना दुर्बोध कवितेच्या देखीनीं मोडटात.

*कृष्ण एक पाखरु आहे*

*ते मुखावीण चारा खाये*
*डोळे नाही परि ते पाहे*
*वाचेविणे स्वये गाय रे*

हे एकनाथाचे रचनेंत सदांची संवकळीची उतरावळ आसुनूय तिचो आशय सहज आकळना. ताचें कारण तिचो गर्भीत अर्थ. युरोपी कवितेंत दुर्बोधताय दिसता ती चार्लस बोदलेअर, आर्थर रँबो, व्हर्ले सारकिल्या कवींच्या कवितेंत. हे सगळे प्रतिकवादी कवी. Symbolist कवी म्हूण नांवारुपाक आयिल्ले. ह्या कवींचे व्हिक्टर ह्युगो, नॅर्वाल आनी म्युसे हांच्यो कविता समजूपाक सोप्यो. त्यो सुचोवचेपरस आपल्याक मेकळेपणान उक्त्यो करपी. पूण आजूय प्रतिकवादी कवितेचें दालें जड आसा. हे कवितेंत भावना आनी बुद्धी हांचो बेस बरो सुमेळ जाल्लो दिसता. इंग्लीश कवितेंतूय अशो जायत्यो देखी दाखोवं येतात. "THE WASTE LAND" ही टि.एस. इलियट हे कवीची कविता ताची एक उत्तम देख. २०२२ हें हे कवितेचें शताद्वीचें वर्स. इंग्लंड आनी अमेरिकेंत ताची शताद्वी कवी आनी साहित्याचे अभ्यासक मनयतात. ही कविता समजतली जाल्यार हे कवितेची पाठभूंय लक्षांत घेवपाची गरज आसा. तेच प्रमाण इलियटाचें चरित्रूय. हे कवितेंत वेगवेगळ्या कवींच्यो वळी allusions म्हूण वापरल्यांत. तेच हिंदू आनी बौद्ध धर्माच्या तत्वज्ञानाचो संदर्भ हे कवितेक आसा. ही कविता सोंपता ती शांतीपाठान. आनी हे कवितेची दुर्बोधकाय कमी करपाखातीर कवीन सविस्तर टिपो जोडल्यात. हरशीं अशे तरेच्यो टिपो दिवप हे कवीक मान्य नाशिल्लें. तरी आसतना कवितेची ती गरज म्हूण ताका टिपो दिवच्यो पडल्यो. कवितेक आशिल्ले राजकीय, सांस्कृतीक संदर्भ लक्षांत येतकच ही कविता थोडी थोडी समजूंक लागता. तरी हिमनगा भशेन तिचो बरोच अर्थ आकलनाभायर उरता. भांगी हांचो भोव आवडीचो कवी फॅर्नांद पेस्सोव होय गूढ आनी दुर्बोध कवी.

भांगी हांची कविता तातूंतल्यान व्यक्त जाल्ल्या गूढ अणभवांक लागून दुर्बोध जाता.

*खर उजवाडान गेले आनारून दोळे*
*सपून-गर्भांतले म्होर विणट्टी रेशमाचे शेले*
*म्होर गायती गाणी कृष्ण-कमळां रानी*
*उजवाडान न्हाले ताणी गायलीं दिस्टाव्याचीं गाणी*
*झाडां पेडां पेटोवन चुडी म्होर गेले सांते*
*परब्रह्म आयलें पुंडलिका भेटे*

हे कवितेंत व्यक्त जाल्लो अणभव अध्यात्मीक पांवड्यावेलो. गूढ म्हणपा सारको. ताका लागून हे कवितेचें आकलन सहज जायना. हे कवितेंतल्यान अध्यात्माचें परिमाण आशिल्लें भावविश्व आकार घेता. आनी तीख संवेदनशील आशिल्ल्या आस्वादकाक आपलो अर्थ सांगता. Language is the house of Being/In its home man dwells अशें Martion Heideggar ह्या तत्वज्ञान म्हळ्ळां ताची याद भांगी हांची कविता वाचतनां येता. तळ्याचे देगे / कस्टावता केळ आनी कस्टावतां केळ/पानेली माया/ तळ्यान झेल्ली/मळबाची काया ही कविता तशीच दुर्बोध ही तातूंतल्यान व्यक्त जाल्ल्या अणभवांक लागून. तांचे कवितेच्या ह्या तासाचेर आनीक विचार करूं येता. ही अध्यात्म्याची जाणीव तांच्या कवितेच्या विश्वाक व्यापून रावता. हे भावकवितेंतल्यान व्यक्त जाल्लें हे आत्मचिंतन तांच्या संवेदनेक मूर्त रूप दिता. ते भावकवितेचें एक म्हत्वाचें लक्षण अशें मानपाक जाय. ही जाणीव *आनी एके कवितेंत वेगळ्या रुपांत व्यक्त जाल्या.*

*सावळी म्हजी*
*सावळी अशी*
*झिळमिळ्यांचें तळें...*
*गात्र गात्र रुजून आतां*
*रुजून जालें पिसोळें*

आनी ही सावळी उजवाडाची भोंवडी जाता आनी बोंबलेच्या देंठार ती ब्रह्मांडाची खेळी जाता. ही सावळी जोगलांच्या मोडाचें रूप घेता. कवीच्या आत्म्याक ओड आसा ती ताचे भोंवतणी आशिल्ली सगळीं बंधना तोडून ब्रह्मांडाक गिंवसण घालपाची. ताच्या कुडीचो चंदनाचो रुख उजवाडाचे दिवटेर कापराची वात जावन पर्जळटा. अशो जाणिवो भांगी हांच्या खंयच्याय समकालीन कवीन व्यक्त केल्ल्यो दिसना. मनशाच्या मनाक अज्ञाताची ओड आसता आनी हे ओडींतल्यान भांगी हांचे कवितेचें सृजन जाल्लें दिसता.

अलौकीक संवसाराचीं भोंवडी करून भांगी परत लौकीक संवसारात येता. मनीस सभावाची वेगवेगळीं तासां तांचे नदरेक दिसतात. नातीं हीं कदिम काळापासून मनशाच्या जियेवपाचो एक वांटो. ह्या नात्यांक वेगवेगळीं परिमाणां आसात. काळा बरबर नात्याचे संदर्भ बदल्ले तरी मनशाची मूळ प्रवृत्ती बदलूंक ना हाचो अणभव दिसपट्टो येत आसा.

*तुटलीं मायेचीं नातीं*
*घाली दुस्वासाचे फार*
*गात्रां गात्रांची दालीं*
*झेली विखाराचो भार*

आमी रगताचं व्हाळ व्हांवयता ते आमगेलो सुवार्थ सादून घेवपाखातीर. आनी वातडेल्लीं काळजां नातीं पयस धुकलता. अश्या वेळार काळजार जाल्ले घाय मोन्यानी कशे सोसूं असो प्रश्न कवी व्याकूळ जावन विचारता.

*बुडटा ओसाडींत तारुं*
*कसो देगेरच रावूं?*

हीं नातीं कित्याक तुट्टात हाचो वेध कवी घेता. आमी सगळे पोटार्थी जाल्यात आनी ह्या पोटाखातिरुच भिकारी आनी ते खातीर सगळे तरेचीं नाडेपेन्ना करतात. ताका लागून मनीस आपले लागींचीं नातीं विसरता.

*जळून जळना रे कशींच*
*ह्या पोटाचीं हीं आतां*
*काळखांतल्यान काळखाकडेन*
*वतात सुर्याचीं हीं पिला!*

भूक ही मनशाची मुळावीं जाणीव. ती पुराय करपाक आमची जीण सरता. आमच्या कांय प्रश्नांचें मूळ हे भुकेंत आसा. हे भुकेचीं

वेगवेगळीं रुपां आसात. ती कुडीच लैंगिक भूक आसूं येता वा धनाच्या अभिळासाची भूकय आसता. तीच आमकां काळखांतल्यान काळखाकडेन व्हरता. व्हडले अनर्थ घडोवपाची ताक भुकेंतूच आसता. फ्रेंच प्रतिकवादी कवी आर्थर रँबो हाची Fetes De Faim [Feasts of Hunger] ह्या नांवाची एक कविता आसा. ती कविता भूकेक उद्देशून आसा. My hunger Anne, Anne, Flee on your donkey. If I have any taste, it is for hardly anything but earth and stones... Let us eat air, rock, coal, iron... Hungers, it is bits of black air; The azure trumpeter; it is my stomach that makes me suffer. It is unhappiness. उजवाड गिळुनूय ही भूक भागना. आनी पोटाचे भरीक अंत पार नासता. रँबो भशेन भांगी ह्याच मुद्द्याचेर अचूक बोट दवरता. हाकाच लागून मनिसच मनशांचो दुस्मान जाता. आनी वळखीचो चोरच जिवानिशीं मारता. संवसारीक कवितेंत भूक ह्या आशयाचेर कविता वाचपाक मेळटात. ह्या आशयाच्या कवितांचीं कांय संकलना उजवाडा आयल्यांत. भांगी हांचे कवितेंतली भूक ही निखटी शारिरिक न्हय तर तिका मॅटाफिजिकल अशें रूप आसा. ताका लागून ती कोंकणी कवितेंत सामकी वेगळी थारता. मनशाक कितेंय तरी जोडपाची वा करून दाखोवपाची भूक लागता आनी भागलीना म्हण्टकच ताच्या वांट्याक दूख येता. अशे तरेन भूक ही दुखाचें कारण जाता. हो आशय मनोहर सरदेसायाचे कवितेंत एक वेगळो रुपकार घेवन आयला.

*खंय भरिल्लें ताट!*
*खंय भुकिल्ले हात!*

वा 'भुकेल्ल्या पोटाक/मोखिल्लें ताट' जिणेंत भरिल्लो उपरोध आनी विसंगती सरदेसाय दाखयता. भांगी हांचे कवितेंत भूक हो अणभव तर सरदेसायाचे कवितेंत हो आशय थोडो ऱ्हेटोरिकल रुपान येता. ह्या दोनूय कवी एकेच आशया कडेन भिन्न नदरेन पळयतात हें हे देखींवेल्यान लक्षांत येता.

उपरोध भांगी हांचें कवितेकडेन जुळोवन घेना. मनोहर सरदेसाय आनी र. वि. पंडित हांच्या कवितेचें तें क्षेत्र. तांची कविता ही सामाजिक जाणिवेंतल्यान येता. वस्तुनिष्ठ कवितेचो तो म्हत्वाचो वा म्हणुया तें एक लक्षण. हे नदरेन पळयल्यार भांगी उपरोधाक आपल्या कवितेच्या विश्वांत इल्लीशी सुवात दिता.

*रंगयल्ले ओंठ*
*रेखिल्ल्यो भुंवयो*
*अडेच्या थानांक*
*कांतयल्ल्यो तोंकयो*

*कित्याक ही अडेची*
*कांतयल्ली सया?*
*न्हेसुनूय नागडीच*
*जिवाची काया?*

आयचें आमचें जीवित उखलापें जालां सगळो संवसार भायल्या रुपात भुलता. खऱ्या सौंदर्याक आज मोल ना. सगळें कितें दिसता तें अडेचें. ही अडेचीं कांतयल्ली सया, आनी भायल्यान कितलो बरो भेस केलो तरी आमची काया भितल्ल्यान नागडीच आसता. ह्या भायल्या भोवस्ताळ्यांक कांयच अर्थ उरना.

भांगी हांची ही कविता बा. सी. मर्ढेकर हांचे एके कवितेंकडेन तिची तुळा करपाची संद दिता. 'काही कविता' ह्या संग्रहांत एक कविता आसा ती अशी - 'अशीच होती नकटी एक/ उलटे केस नि तिरप्या भिवया/मुरकत दावी उरोज उन्नत/ढेपा जैशालेल्या घरच्या/ काय हलाखी स्त्रीत्वाची ही/माणुसकीचें काय विडंबन/भोग शुन्य करि भोगव्यथेचें/लिंग-गंड प्रच्छन्न प्रदर्शन. भांगी आनी मर्ढेकर हांच्या कवितांचो सूर एकूच हें त्यो कविता एकठांय वाचतना लक्षांत येता. हे दोगूय कवी एकामेकांच्या कितले लागीं येता हाचो अणभव ह्यो कविता दितात. ते आपल्या कवितांतल्यान एक खर खंत उक्तायतात. सौंदर्याक प्रदर्शनाचें रुप येवंचें न्हय. आनी तशें प्रदर्शन मांडपी स्त्रीत्वाची खंत आनी राग ह्या दोन भावनांचे मिश्रण तांचे कवितांनी दिसता. अस्सल सौंदर्य खंयचें आनी अडेचें खंयचें हांचे मदलो भेद कोणाच्या लक्षांत येना हेंच मर्ढेकर आनी भांगी सुचयतात. आयज कालचो हो सामाजिक अणभव. हो अणभव दीसपट्टो घेवन सौंदर्यकडेन पळोवचेली आमची नदर मुणेल्या. हो श्रृंगार मनाक सूखदेणो न्हय. एकाद्री बायल नटथट नासतनाय कितली सुंदर दिसूं येता असो एक अर्थ ह्यो कविता सांगतात. हरशीं मर्ढेकर आनी भांगी हे भिन्न प्रकृतीचे कवी. पूण ही एकूच कविता दोगांय मदीं एक नातें जुळयता. तशें पळोवंक गेल्यार अशी उपरोधी शैली ही तांची काव्यवृत्ती न्हय. मनीस कितलोय जुंव्यार रावलो तरी आठय दिकांचो वारो ताका स्पर्श करताच... देखून अशे कवितेचें सृजन जाता. दुसरें म्हळ्यार आपलो पिंड कितें हाची पुराय जाणविकाय हे कवीक आसा. आनी आपल्या मूळ वृत्तीकडेन तो एकनिष्ट आसा. आमचे कांय कवी काळाप्रमाण बदलत गेले. ताचो तांचे कवितेचेर कितें बरो वायट परिणाम जालो हो समिक्षकांखातीर एक अभ्यासाचो विशय. राजकीय आनी सामाजिक आशयाचे प्रवाह कोंकणी कवितेंत येवन भरसले पूण भांगी हांची काव्यवृत्ती थीर उल्ली हें तिचें म्हत्वाचें खाशेलेंपण अशें म्हणपाक जाय.

*ही सकाळ*
*जपता माळ*
*आतां फुलून अळार*
*दिस्टाव्याचो वेध घेता*
*मोगरे कळ्यां हार*

अशे वळींनी तिचें सार आस्पावलां.

कवितेंत व्यक्त जाल्लो अणभव वेगवेगळे पांवडे चडत वता. तो कवीक सगळ्यांत पयलीं धुसर दिसता. ताका कितें तरी जाणवता. मागीर हो अणभव आपल्याक व्यक्त करपाक उतरांचो सोद घेता. आनी ह्या यत्नांतल्यान त्या अणभवाक मूर्त रुप येता. हे सगळे प्रक्रियेंत कविची भुमिका तिरायताची आसता. जेन्ना हो सगळो अणभव कवितेच्या रुपान

*(पान २० चेर)*

# जगाची माची करूंया सोबीत

मुकेश थळी



काम आसतकच मनीस बाबा पुता करून फाटीकूच लागता. अभिनय करपाक तर भोंवतणचे सगलेच नटवर्य अजित केरकार हांकां फाटीं उडयतात. कामा पुरते मामा अशी ओपार आयल्या. काम जातकच तो धपक्याक विसरता. फट उलोवपाचो, लागोळपणाचो अभिनय तर अत्युच्च. रफ उलोवपाचो अभिनय करचो पडना. रगतांत आसता तें.

दाट अणभवांची पोटली ही. जल्माक येतना मॅन्युएल म्हळ्यार मार्गदर्शक पुस्तक वांगडा येना. जिणेच्या मार्गार आपटत धोपटत, धोंपरां सलपून घेत, झरत मरत, खरशेत शिकचें पडटा. ही अणभवांच्या संचिताची पोटली हीच मुखार तुजे वाटे वयली थारता दिवली.

म्हाका केन्नाय कॉलेजांत शिकपी तरणाट्यांचे वॉट्स एप मेसेजी येतात. कसलीच वळख ना देख. थेट संपर्क. हांव अमको अमको तमको. अमूक कॉलेजांत शिकतां. म्हाका अमूक प्रॉजेक्टा खातीर तुमी ह्या विशयाचेर काम केलां ती अमूक माहिती जाय. ह्या ईमेलाचेर धाडून दी.

उलयात. आदेश आतां हो. कसलीच काडयेची स्पश्टता ना. मुदलांत ताका ह्या अभ्यासाची, स्वाध्यायाची कितली आस्था, निश्ठा आसा तें कळटा. जाचे कडेन मागता ताचे कडेन आपणें उलोवपाचें आसता, विनंती करपाची आसता हें धंगण ना. ही शिकवण आनी संस्कार ना. एकाच फारान कितलींशींच शेवर्णी उडोवचीं तशे आदेश दिवन तो मेकळो जाता. ना रीत, ना नीत, ना शिस्त. ना वळण. ना नम्रता. ना देख. ना थेंक. म्हजे परस जाणट्या मनशान लेगीत असली भास वापरली जाल्यार ती नॉर्मल नाशिल्ल्यान हांव ताचेर विचार करिनासतना मौन रावन ताका टाळटां.

इंग्लीशींत audacity हें उतर आसा. खरें म्हळ्यार कोंकणीवाद्यांक कांयच सांगपाची गरज ना. सगळें आपशींच कळटा तांकां. Audacity म्हळ्यार मद, उन्मत्तपणा, आपसुलादपणा, उद्दटपणा, उर्मटपणा, रफ वागणें, मदमस्त फाजील वागप. आयज भोंवतणी हो रोग पातळत बळावत आसा. नॉर्मल बरें वागप कशें कितें, हें खंयच्याच मूल्य शिक्षणांत अजून तरी आसपावीत करूंक ना आसुये. खंयच्याच क्लासांत हें शिक्षण शिकोवं नजो. फकत कशे उलयतात आनी वागतात ताचे वयल्यान ताचो तिचो क्लास कळटा!

कांय भुरगीं म्हजे कडेन शिकूंक येतात. कांय शिकतात. कांय यत्न करतात. खंयचेंच काम अर्दुकुटें करप म्हाका आवडना. मन लावन करीन दिसना जाल्यार करपूच ना हें म्हजें ब्रीद. जीव ओतून स्पश्टता दिवन समजावन शिकोवपाक म्हाका आवडटा. आपणा कडेन आसा, तें दुसऱ्याक दिवचें वांटचें ही भावना. ज्ञान दिल्यार तें आनीक चकचकता. ज्या भुरग्यां खातीर वरांची वरां दिल्यांत, केन्नाय हांव फक्त चांचणी म्हूण त्या भुरग्यांक कितेंय चिमटीभर काम सांगता. हें मातशें अशें करून धाड. सांजे मेरेन. तांचो मेसेज येता - म्हाका तें काम आसा, आतांच घरा पावलां. खरें म्हळ्यार तें काम करपाक म्हाका पांच मिणटां पुरो आसता. मनीस उपकार कितलो कसो विसरता पळेयात. कुसकुटाची कृतज्ञताय ना. कृतघ्नताय पळोवं नजो जाता.

जीण शिकयत आसा. विद्यार्थी मात तयार जाय. हें शिकप ऑफ लायन आनी ऑन लायन दोनूय तरांनी आसना. शिकतलो शिटूक जाय. हांगा अभ्यासक्रम शिक्षणक्रम वेगळेच. कोरोनान बुद्धीप्रामाण्यवाद्यांक, सगळ्या जगाक, व्हडल्यो व्हडल्यो थियरी आंखप्यांक बालदेंतल्या उदकांत तुवालो झंझळायतात तशे उमळ्ळे, खेळयले तें आमी पळेलें. आमी शिकले कितलें कितें खबर ना.

आपणें आपली पिडणूक आनी फटवणूक केन्नाच कोणाकूच करूंक दिवंक फावना. एकेका अणभवा वेल्यान शिकून insulate जावन रावंक जाय.

इंग्लीशींत hemming म्हूण क्रियापद आसा. ताचो अर्थ- शर्टाचे हात लांब बी जातात तेन्ना ते कवळून एडजस्ट करप. ह्या जगांत तरेतरेच्या मालुकां कडेन आदळटना तांकां hemming करून स्थिती हाताळची पडटा. आपली शांती थीर दवरतलो जाल्यार.

सात्र मारलिना जाल्यार घरांत घाण साचता. धुल्ला राशी जातात. दांत दिसाक दोन खेपे घांसलेनात जाल्यार कितें जातलें आमी जाणात. आमचें काळीज, अंतरंगूय तशेच. तें नेमान निवळ केलेंना, न्हाणयलेंना जाल्यार कुसूंक लागता. कुसूंक लागतकच घाणी मारतात. त्या आयदनाक कळना तें. भोंवतणाक कळटा. भोंवतणच्यांनी जतनाय घेवची पडटा आपल्या जिवाची. कुसट्टाणी पसून. नम्रता ही फ्राकेज अशें समजून कोणूय तुजो गैरलाव घेवन वापर करूंक सोदता अशें दिसल्यार अशी सडीक भायरी दिवची की शिंवाच्या दावकुलाची याद ताका उरची. आंगार मावो आनी कुरवो उरच्यो, फटें दिल्ल्याची याद म्हूण. तो ती सुदरूं वा भायरो जावं. आप-राखण करून घेवची.

सूं सूं करून चिकनाच्यो हाडांच्यो नळयो बोन मॅरो चोखतात तशें हें जग चोखता ,वापरता, शेंवटून मारता.

वरांचीं वरां तोंडांत गुटखा कुच्यू कुच्यू करून रवंथ करून पाच्च करून थुकतात तसो हो समाज. दुसऱ्यांक वापरता.

टिश्यू पेपर वा करबील कसो दुसऱ्याक गोड गोड उलोवन वापरता आनी शेंवटून मारता.

ताका लागून कोणेय मस्ती केल्यार शिंवाचो पंजो मारचो तशी भायरी दिवची. ताच्या मनपटलाचेर कायम मावो उरतल्यो अशे तरेन.

जगाचो अर्थात मनीसकुळयेचो मंच सुरक्षीत बरो निवळ सुंदर दवरपाची गरज आसा. आपल्या कर्तुबांनी तो सजोवंक जाय. आपल्या हळशिकावण्या घाळ करण्यांनी तो बुरसो करून घाणांवक फावना. मानव मंच हें विसव घेवपाक, नाचपाक, खेळपाक बरें आंगण करप शक्य आसा. आमी कामाक लागुया. फाल्यां? आज? च्ये, आतां.

संपर्क : 9545827662

***



# अमृतवेळ आनी माया मोग

**नूतन साखरदांडे**

मायाच्या 'अमृतवेळ' ह्या कादंबरीक जेन्ना अंदूचो केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो म्हूण सोशल मिडियाचेर कळ्ळें तेन्ना सुमाराभायर खोस जाली आनी ताका रोखडोच फोन लायलो. माया खूब खोशशी आसलें. मायान सांगलें, आपल्याक केन्नातरी हो पुरस्कार मेळटलो हाची खात्री आशिल्लीच. पुण जेन्ना हो म्हज्या 'अमृतवेळ' ह्या कादंबरीक मेळ्ळो तेन्ना म्हाका सुमाराभायर खोस जाली. कित्याक तर ही म्हजी पयलीच कादंबरी, खूब वर्सां मनांत खतखतताली आनी खूब जाणांकडेन भासाभास करून, सल्ले घेवन ही कादंबरी बरयल्ली ताचे चीज जालें अशें दिसलें. मायाची उतरां आयकून म्हाका दिसलें मायाच्या कादंबरीतल्या सिताबायचेर जशी 'अमृतवेळ' आयली तीच 'अमृतवेळ' हो पुरस्कार घेतना मायाच्या जिणेन आयल्या जावंक जाय.

मायाक हांव केन्ना मेळ्ळें काय अशें जेन्ना हांव येवजूंक लागता तेन्ना याद जाता तो वळवयचो वाठार, फुलिल्लो चांफो, सारयल्ले आंगण आनी त्या चित्रंगीच्या आंगणांत आमची दोळेभर वाट पळोवपी आनी आमच्या भितरलीं साहित्यीक बीजां रुजोवपाक आमकां सतत प्रोत्साहन दिवपी हेमा आनी पुंडलीकबाब आनी तातूंत आशिल्लें माया, गुलाबी साडी, मेचींग ब्लावज, चिप्प वळयल्ले केंस, फाटीर धोलती विणी, सादें व्यक्तिमत्व पूण लिकलिकपी दोळ्यांत सदांच कितें तरी करपाची उमेद आनी तळमळ. मजा म्हळ्यार मायावांगडा ताज्यो भयणीय निशा आनी कांचन फाटल्या फुडल्यान आसताल्यो. आमी मडगांवा खंयच्याय कार्यावळीक वा मेळाव्याक वतालीं तेन्ना मायाचेर वचप म्हळ्यार आमकां पर्वणीच. मायाची आजी, आई, आबा आनी हेर भांवडां आमकां पळोवन खोशी जातालीं. तशें पळोवंक गेल्यार मायाली अर्थिक परिस्थिती सादारण आशिल्ली. पूण तांततूय सुखी आनी आनंदी कशीं रांव येता हें तांगेर रावतकच कळटालें. माया कुटुंबांत सगळ्यांत व्हड, आपसुकच जबाबदारी आयली. पूण ती जबाबदारी मोटे कश्टान आनी धीरान ताणे पेलली. खंयच परिस्थितीमुखार बागवलें ना. आयिल्ल्या संकश्टाक पेल्यान काडीत गेलें आनी आपले सगळे घुस्मटमार आनी हुस्के ताणे कागदाचेर देंवयले. केन्ना कवितेच्या रुपान, केन्ना कथेच्या रुपान अशेतरेन माया 'कयपंजी' घेवन साहित्याची पणती पेटयत गेलें आनी ताणे फाटीं वळून पळयलें ना.

माया व्यवसायान शिक्षिका आशिल्लें. कोंकणी भाशा मंडळाच्या विद्याभुवन शाळेत ताणे तिशेक वर्सां शिकयलां आनी माणकुल्या भुरग्यांचे मायाताई जावन तांका काणयो, कवनुलां, बालगीतां म्हणुन दाखयल्या. त्या काळार बालसाहित्याचो कोंकणीत खूब उणाव आशिल्लो. भुरग्यांक कोंकणीविशयी मोग आनी तांच्या मानसिकतायेची घडण जावपाखातीर बालसाहित्याची गरज आसली. ह्या गरजेपासत ताणे बाल साहित्याची पुस्तकां बरोवपाक घेतलीं आनी आज ताची ३० वयर बाल साहित्याची पुस्तकां आसात. आनी ताका साहित्य अकादमीचो बाल साहित्याचो पुरस्कारूय फावो जाला. तरी आसतना म्हाका दिसता माया कथाकार कित्याक? ताका कथांची बीजां आशिकुशीक सट्ट करून मेळटात आनी ताची निरीक्षणशक्तूय बरी आसा.

खबरी करतना केन्ना कोणाचीय गजाल उलयता तेन्ना तें म्हण्टा, म्हाका कथेक बरो विशय मेळ्ळो गो. आयच्या घडयेक ताजे पांच कथासंग्रह आयल्यात. ताचे वयल्यान ताजे कथेची तांक कळटा.

मायाक प्रवासाची आनी भोंवडेची खूब आवड. खंयचीय भोंवडी जाल्या उपरांत आमी आवयस पुरो जालें म्हूण दोन दीस न्हिदो काडटात, पूण माया आळशीपणा करिनासतनां वेवस्थीत थंयच्यान हाडिल्ल्यो इतिहासिक संदर्भाच्यो पुस्तिका घेवन प्रवासवर्णन बरोवन काडटा, तें बरयल्या उपरांत म्हयन्याळ्यांत, दिवाळी अंकांनी छापून हाडटा आनी मागीर ताचें पुस्तकूय काडटा.

माया म्हळ्यार 'ऑल रावंडर' खेळगडें. ताका अणकाराचीय तितलीच आवड. कांय सृजनात्मक सुचलें ना जाल्यार तें मागीर अणकार घेवन बसता, पूण हातांतले पेन कशेंच सकयल दवरिना. साहित्य अकादमी खातीर ताणें चार पुस्तकांचो अणकार केला तशेंच बारीक सारीक अणकार ताचे चालूच आसतात.

खरें म्हळ्यार हांव रावता म्हापश्यां आनी माया मडगावां, मेळटलीं जाल्यार अंतर पयस आसा. पूण आमच्यांतलें हें अंतर लागीं केलें त्रिवेणीन.



**ओंदूचो कोंकणीतलो केंद्रीय साहित्य अकादेमी २०२२ पुरस्कार सौ. माया खरंगटे हांकां फावो जाला. ते निमतान हो खाशेलो लेख.**

खूब वर्सां पयलीं जेन्ना 'त्रिवेणी' ही कविता सादरीकरणाची कल्पना नयनाच्या मनांत आयली तेन्ना आमी ती उखलून धल्ली आनी सादारण एका वराची कार्यावळ आंखली. तेन्ना स्व. मिलींद भगतान आमचे वांगडा सुत्रसंचालन करपाचें मान्य केले, त्याखातीर हांवे Script बरयली आनी पयली कार्यावळ कला अकादमींत केली, अशे तरेन आमी साठांवयर कार्यावळी केल्यो. सांगपाचें म्हळ्यार, त्रिवेणीन म्हाका, मायाक आनी नयनाक एकठांय हाडली आनी आमचेमदली मैत्री घट्ट टिकयली.

लेख, कविता, कथा, बालसाहित्य अणकार जाल्या उपरांत मायाक दिसलें कीं आतां व्हड कॅनवास घेवन कादंबरी ह्या साहित्य प्रकाराकडेन वळूंक जाय. ताज्यो दोन कादंबऱ्यो छापून आयल्यात. तिसरी वाटेर आसा.

माया म्हळ्यार सातत्य, माया म्हळ्यार

*(पान २३ चेर)*

# जयमाला दणायत - आर्गां

**मुकेश थळी**



कोंकणी बरोवपी गोंयकार धुवो लग्न जावन गोंया भायर स्थायिक जाल्यो तरी तांणी कोंकणीची सेवा आपल्या कसदार आनी पेजाद लिखणेन सातत्यान चालू दवरली. जयमाला दणायत ही गोंयची धूव अशीच.

तांकां हालींच बंगळूरात मरण आयलें ही दुख्खाची घडणूक. जयमाला आनी शीला कोळंबकार ही एक पारव्यांची जोडी कशी. मुंबयत रावपी. शीला-मुलूंड आनी जयमाला-डोंबिवली. साहित्य अकादेमीच्या आनी हेर साहित्यीक कार्यावळींक तीं वांगडाच वचपी. तेन्ना तीं कॉलेज मैत्रिणींभशेन दिसतालीं. दोगांयमदीं दाट जिवाभावाची इश्टागत. फोनाचेर अदींमदीं उलोवप. साहित्य हो दोगांमदलो दुवो. गोंयांत कोंकणी संमेलन, परीशद वा हेर कार्यावळ आसली जाल्यार ही जोडी मेळटालीच. तीं मुंबयच्यान आनंदान येतालीं. कुळारच्या लोकांक म्हणजे लेखक कंपनीक मेळटालीं. ही खोस तांच्या तोंडार दिसताली. आमची तुमी याद करिना, गोंयकार लेखिनात ही खंतूय उक्तायतालीं. आमचे भाव मागीर ही गजाल सामकी वयलेवयर कॅज्युअली घेताले ती गजाल सोडात.



**कोंकणी साहित्यीक जयमाला दणायत हांकां १५ जानेवारी २०२३ ह्या दिसा मरण आयलें. तांच्या आत्म्याक शांती लाभू हीच 'जाग' च्या वतीन आर्गां.**

जयमालान कथा आनी निबंद बरयल्यात. पुनव नांवाचें एक नेमाळें पणजेच्यान येतालें. हांव स्कूलांत आसतना हें वाचतालों. (पुनव नेमाळ्या विशीं आनी पुनव चळवळी विशीं कितल्या जाणांक खबर आसा नकळ. कांय भुरग्यांची आपसुलादपणां पळेल्यार फुडाराचो थाव लागता) तातूंत जयमालाचें बरप हांवें पयलीं वाचलां. तेन्ना कोंकणी पेपर आनी हेर नेमाळीं नाशिल्लीं. लेखिकांची एक फळी उदयाक आयली, तातूंत जयमाला. कवासो (कथांझेलो) आनी करबट (निबंद) हीं तांचीं सुरवातीचीं पुस्तकां. तांच्या सभावांतलें सादेपण आनी मायेस्तपण तांच्या कथांनी आनी निबंदांनी देंविल्लें दिसता. म्हाका तांचे निबंद चड आवडल्यात. जयमालाक आर्गां ओंपपी भुरग्यांनी तांचो प्रेमळ सभाव आनी नमळाय आपणायल्यार ती खरी आदरांजली थारूंये. दुसरें म्हळ्यार सातत्यान बरोवप ही तांकां खरी श्रध्दांजली.

जयमालाची एक कथा 'आंगवस्त्र' ही हांवें १९९२च्या सुमाराक इंग्लीशींत केल्ली ती इंग्लीश दिसाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ली. ताका ती आवडली. आंगवस्त्र ह्या उतराचो अर्थ आयच्या कितल्या विद्यार्थ्यांक आनी शिक्षकांक खबर आसा, हांव नकळो. जयमालाचे पिळगेंत हें उतर चड घोळणुकेंत आशिल्लें. अश्यो कितल्योश्योच म्हणी ओपारी, उतरां तांच्या बरपांत उत्स्फूर्तपणान आयल्यात. उदका लोटावरी घस्स करून उसळून आयिल्लेवरी. डाळंबांतले ताज्जे दाणे फळांत दिसचे वा मक्या कणसांतले हळडुवेच तटतटीत दाणे दिसचे, अशीं तांची हीं नीज खास उतरां नदरेक पडटालीं. म्हज्या सारक्या उतरांच्या अभ्यासकाक ही एक खावड आशिल्ली.

जयमालान खूब पुस्तकां बरयलीं. तांचें हिन्दी भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्लें. 'राग दरबारी' ही हिंदींतली फांकीवंत कादंबरी ताणें कोंकणीत हाडली. दाटगुळो ग्रंथ. ह्या पुस्तकाक तांकां साहित्य अकादेमीचो अणकारा खातीरचो पुरस्कार मेळ्ळो.

जयमालान एका तेंपार मुंबय आकाशवाणीचेर बातम्यांचें वाचन केलां. १९९० वर्सा आदीं आसूंक जाय. ताचो आवाज शांत. संयत. हांवें ह्यो बातम्यो आयकल्यात. कोंकणी विशींचें प्रेम त्या बातम्यांत आनी खबरांच्या अणकारांत दिसतालें.

बेळगांवां एकदां कोंकणी संमेलन आशिल्लें. हांव म्हजो बापोलभाव रोहिताक घेवन गाडयेन गेलों. शीला-जयमाला ही जोडी थंय मेळ्ळी. भरपूर खबरी माल्ल्यो. विनोदी सभावाचो रोहित मालाड - मुंबयचो म्हणटकच तांकां एकदम बरें दिसलें. जयमालाक माशेलांत वचपाचें आशिल्लें. म्हणटकच येतना तीं आमचे वांगडा आयलीं. वाटभर हांवें आनी रोहितान तांकां पोटभर हांसयलीं. कांय लेखकांचे वयले पट्टेंतल्या (जे केन्ना सकयल आसचनात) भाशण शैलीची हांवे मिमिक्री करून दाखयली तेन्ना जयमालाचो हांसून मुट्टो जालो. ताच्या गोऱ्या पान तोंडारूच मुळांत प्रसन्न हांसो. तातूंत असले घरचे कोंकणीचे विनोद आयकून उस्तरें गेलें रे, अशें ताणे म्हणलें. दुकां काडून हांसलीं दोगांय.

बेळगांवच्यान येतना सांखळे आमी दत्त मंदिरांत गेलीं. थंयचो झाडांचो आनी सावळ्यांचो शीतळ वाठार तांकां आवडलो. खबरींनी, ज्योक करीत माशेलांत केन्ना पावलीं कळ्ळेंचना. जयमाला आपली भयण पुष्पा व्ही नावेलकार हांच्या घरा देंवलें.

जयमाला ही फांकीवंत कोंकणी लेखिका सुधा खरंगटे हांची धाकटी भयण. सुधा गोंयांत रावता म्हूण आनी जयमाला गोंया भायर रावतालें म्हूण कारण कळना, तांच्या साहित्याची वळख घडोवपी कार्यावळ तांचे प्रगट मुलाखती सयत घेवपाची बुध्द आमकां केन्नाच जालिना. जयमालाच्या मुलाखतीचें डोक्युमेंटेशन आमचे कडेन उरपाचें. नवे युवा लेखक पिळगेक, कोंकणी अभ्यासकां खातीर असल्यो कार्यावळी जाय आसतात. पूण आपूण सगळें जाणा ह्या भ्रमांत आशिल्ल्यांक हयातभर कोंकणी खातीर वेगवेगळ्या मळांचेर सेवा दिल्ल्या मानेस्तांची अपुरबाय करपाचें धंगण ना हें खरें.

विद्वान आनी विद्वाटे अशे दोन तरेचे लोक सगळ्या मळांचेर आसतात. विद्वाटे चड. राशींनी. ते जीव खेळयत आसतात. ज्ञान, तकली नासतना रफ उलोवप वागप हें तांचें लक्षण. विद्वाटे विद्वानांक वळखूंक शकनात. परिणामी, विद्वाटे वाट लायत वतात, लुकसाण करीत रावतात हें खरें.

गांवांत इल्ल्योश्यो पायणी आशिल्ल्यो. आतां आसात, खबर ना. आमच्या लिलिपुटांच्यो विचारसरणीच्यो साहित्यवृत्तीच्यो पायणी बऱ्योच अशीर. दुरीग तशें उंच उंच बी चिनाचे वण्टी इतलें ना. पूण आमी विचारांनी, शिक्षणान, ज्ञानान, मनीसपणान मोटवे. भायलें कांय दिसना. कर्मभोग हो.

जयमालान हयातभर, सातत्यान नेमान बरयलें. तुमी कायद्यान गोंयकार न्हय, अशें म्हणत कुळारच्या यंत्रणांनी आपल्याच धुवांक कायद्याचें कलम दाखोवन तांकां मान, भोवमान, पुरस्कार कायम झिडकारले. टाळ्ळे. जंय तीं लग्न जावन रावतात, थंयच्या यंत्रणांनी कायद्याचीं कलमां दाखयलीं आनी तुमी आमचीं न्हय म्हणत हेर सुविधा दिवपाच्यो टाळ्ळ्यो. गोंयांत रावपी बाकिच्या राज्यांतल्या सगळ्यांक दिलें, दित आसात, दिवचें. पूण आपल्या धुवांक ही अपमानाची वागणूक गोंयांत कित्याक ती कळना. उरिल्ली जतनाय संस्थांनी घेतली, तांकां केन्नाच कार्यावळींनी आपयनासतना.

मुंबय सारक्या कॉज्मॉपॉलीतन वाठारांत रावपी आनी आयस पयस मोटो एक्स्पॉजराचो आवांठ आशिल्ल्या जयमाला सारकिल्यांनी कसल्याच पायणींत रावनासतना निरंतर साहित्य, मायभास, संस्कृतीची सेवा केली. सलाम! हें विविधांगी कार्य समजुपाची कुवत, तें वळखुपाची योग्यता आशिल्ल्यांकूच कळटा. जयमाला भाविक. ताच्या आत्म्याक शांती मेळूं, ही देवा चरणीं प्रार्थना.

संपर्क : 9545827662

***

---

*(पान १६ वयल्यान)*

कवीच्या मुखार येता तेन्ना ताका कितें जाणवता ताची गवाय ह्यो वळी दितातः

*अशे अवचित एके सांजे*
*काळजांत वाजल्यो घांटी*
*सुटून जिवाच्यो गांठी*
*दोळ्यांत जागल्यो राती...*

स्वातीचो थेंबो अळंग तळटार झेलचो असो अणभव भांगी झेलता. उतरांची जागरूकताय हे कवीक आसा तशी ती कोंकणींतल्या हेर कवींक आसा अशें दिसना. 'शद्ब हा आपली सगळी सृष्टी घेऊन पुन: आपले शद्बत्व टिकवून ठाम असतो' अशें पु. शि. रेगे आपल्या एका लेखांत म्हण्टा. भांगी हांचे कवितेचो विचार करतना वेगळें कितें सांगपाची गरज दिसना. तांच्या उतरावळींतल्यान अणभवाच्यो वेगवेगळ्यो सया दिसतात. तातूंतल्यान कवी लयेचीं वेगवेगळीं आवर्तनां केळयता. अणभवाची बंदीश अशेतरेन कवी बांदता.

*म्होर लागलो नाचूंक तसो*
*सपनेवंक लागली राणी*
*चांफो कसो फुल्लो शेंपो*
*नखेत्रांची काणी!*

संपर्क: 9420222876

***

# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

**डॉ. सोबिता किर्तनी**



राव पाची वेवस्था आनी मानसीक भलायकी ह्या विशयाचेर जायतें संशोधन जाल्लें आसा. २००४ वर्साक जयप्रकाश ह्या संशोधकान बंगलुरू शहरांत एकलीं- एकसुरीं रावपी जाण्टयांचो अभ्यास केलो. जायतीं जाण्टीं, भुरगीं आसून लेगीत एकलींच रावतालीं. जायत्या जाणांचीं भुरगीं बंगलुरू शहरांतच रावतालीं. पूण चडशीं जाण्टी घोवाक वा बायलेक मरण आयिल्ल्यान वा तांची भुरगीं वेगळ्या शहरांत वा वेगळ्या देशांत रावतालीं देखून एकलीं रावतालीं. फक्त लग्न जाल्ल्यो धुवो आशिल्ल्यान, भुरगीं नाशिल्ल्यान, आनी अध्यात्मीक कारणांक लागूनय कांय जाण्टीं एकलीं रावतालीं. ह्या एकलीं रावप्या जाण्टयांक मात एकलेंपण जाणवतालें. पासार करूंक वेळ खूब आसून लेगीत करपाक कांय नासलें. जायते जाणांक एकलीं उरपाचीं आनी भलायकेची चिंता आसली.

जरी स्वताची काळजी घेवपांत आनी घरकाम करपांत वेळ सरतालो तरी एकटें रावपांत कांय फायदो वा मजा ना अशें तांका दिसतालें. तांकां आपल्या घरच्यां बरोबरच रावपाची इत्सा आसली. जाणटे बायलांक घोवाचें मरण हे सगळ्यांत कठीण आसलें. चडशे जाण्टयां प्रमाण हो काळ तांच्या जिवितांतलो सगळ्यांत वायट काळ आसलो.

डॅव आनी जॉन ह्या संशोधकां प्रमाण भारतीय समाजांत जाण्टयांक भुरग्यांनी आदार दिवपाची रीत आशिल्ल्यान, घरच्यां वांगडा रावता काय ना हाचो जाण्टयांच्या समाधानी जिविताचेर प्रभाव पडटा. तरी वृद्धाश्रमांत रावचे परस एकटेंच रावप हें जाण्टयांक उपकरता हे खातीर समाजांत सोयी सुविधा आसप गरजेचें. भारतांत जाण्टेपणान भलायकेची काळजी घेवूंक, घरांतली कामां करूंक, तशेंच सदचो वावर करूंक आदार लागता तो मेळपाची गरज आसा.

रामचंद्रन आना राधीका ह्या संशोधकांनी पळयले की भारतांत चडशी जाण्टीं जाण्टेपणान आपलेच घरांत रावपाक सोदतात. जाण्टया बायलांक अर्थीक प्रस्न आसलो. शिक्षण नासप, जोड नासप, जोडपाची संद नासप, पॅन्शन नासप वा अनियमीतपणान पेन्शन मेळप, तशेंच सरकारा कडल्यान जाण्टेपणांत मेळपी आर्थीक मदत लोकांमेरेन फाव तरेन पाव नाशिल्ल्यान जाण्टया बायलांची परिस्थिती कठीण जाता. हाका लागून जाण्टयांक आपल्या भुरग्यांचेर आदारून जगचें पडटा. जाण्टे बायलांक सरसकट उपरासपी समस्या म्हळ्यार भलायकेचे प्रस्न, मनरिजवण करपाक दुडू नासप, काळजी घेवपाक कोण नासप, दुडवांची कमी आसप आना मन ल्हव करूंक उलोवपाक कोण इश्ट नासप.

म्हस्के आना राम ह्या संशोधकांनी २००९ वर्सा पुण्या शहरांत वृद्धाश्रमांत रावपी जाण्टयांचो अभ्यास केलो. तांणीं पळयलें की दादले आनी बायलो कठीण परिस्थितींक वेग-वेगळे तरेन फुडो करतात. बायलो कठीण परिस्थिती कडसून पयस रावतात वा आड नदर करतात. दादले स्वताचेर संयम दवरून दुसऱ्यां कडल्यान आदार मागून, जबाबदारी घेवन, वेवस्थीत योवजण करून आनी परिस्थितींचो नियाळ करून कठीण परिस्थितीक फुडो करतात.



दादले आनी बायलांचे मानसीक स्वास्थ्य हातूंत फरक तांणीं पळयलो. दादल्यां परस बायलांक चड चिंता जाताली, न्हीद येनाशिल्ली, निर्शेणी आसली, समाजीक आडमेळी (dysfunction) आसलीं आनी Somatic symptoms म्हणजे मानसीक दुयेंसा पासून जाल्लीं शारिरीक दुयेंसां आसलीं. कठीण परिस्थितीक आड नदर करपी लोकांचे मानसीक स्वास्थ्य अस्कत आसलें, अशें ह्या संशोधकांचे नदरेन आयलां.

-८-

मनशांत शारिरीक बदल घडत आसतात. जाण्टेपणांत केंस पिकप, वा केस पातळ जावन खड्डीं जावप, कातीक सुरकुत्यो पडप, पोंग पडप, मोटवो जावप, चलपाची, वावूरपाची गती मंदावप हें सगळे बदल आमंका अशेच दोळ्यांक दिसतात. पूण

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

शरिराचे भितरय जायते बदल घडत आसतात जे आमच्या दोळ्यांक दिसनात पूण तांचे पासून सभावांत जाल्ले बदल वा वावूरपांत जाल्ले बदल आमकां जाणवतात.

इंद्रियांत घडपी बदल आनी सिस्टमीक बदल मानसीक ताण मनशाची प्रतिकार शक्ती खालायता. जाण्टेपणान मानसीक ताण पासून खालाविल्ल्या प्रतिकार शक्ती खातीर थंडी, फुफुसांची पिडा (pneumonia) आनी हेर श्वाससोश्वासाची लागवण जाता. पचनशक्ती त्या मनान बरी आसता. काळजाच्या functioning मात बदल घडटात आनी हे चड गंभीर आसतात. काळीज ल्हव आनी असंयमीत रितीन धडधडपाक लागता, काळजा भोवतणी चरबी (fat) जमपाक लागता, रगताचो दाब वाडटा.

आमच्या इंद्रियांची राखून दवरिल्ली शक्ती आसता जी ताणा वेळार शरिराक योग्य रितीन चालू उरूंक आदार करता. जाण्टेपणान मात ही राखीव शक्त उणी जाता. देखून जाण्ट्यांक आदले वरी शारिरीक ताण झेपना.

साधारण पणान आरोग्यान बरीं आशिल्ल्या जाण्ट्यांच्या मेंदूत जाल्ल्या बदलान तांच्या वावूरपांत व्हडलो सो फरक पडना. पिराय वाडटा तसो आमचो मेंदू ल्हव जावंक लागता. हो बदल तिशींत आसताना सुरू जाता. णव्वदाक तेंकता सर मेंदवाचें धा टक्के वजन कमी जाता. सॅरॅब्रल कॉरटॅक्स हो आमच्या मेंदवाचो सगळ्यांत वेलो भाग. आमच्या ज्ञानशक्तीचें हें घर जावन आसा. यादी, समज, कल्पनां, विचार, हें सगळें सॅरॅब्रल कॉरटॅक्सांत घडटा. आदल्या संशोधकांचो तर्क आसलो की मेंदवाचें वजन उणें जाता- तें ह्या भागांतलें न्युरोन्स- आमच्या नर्व्हांचो मुळावो घटक - उणे जातात म्हणून. मात नव्या संशोधकांच्या प्रमाण न्युरोन्स आकारान ल्हान जातात देखून मेंदवाचें वजन उणें जाता. तांचे प्रमाण सॅरॅब्रल कॉरटॅक्स भागांत न्युरोन्स सगळ्यांत पयली आवूळटात, देखून ज्ञानशक्ती उणी जाता.

मेंदवांत जावपी बदल सगळ्यांच जाण्ट्यांत एकाच भशेन आसना. मेंदवाचें कांय भाग बायलां परस दादल्यांत चड बेगीन आंवूळटात. कॉरटीकल ऍट्रोफी (कॉरटॅक्स आंवूळप) कमी शिक्षण आशिल्ले लोकांत चड बेगीन घडटा. संशोधकांचो असो अदमास आसा की शिक्षण (वा ताचे कडेन जुळिल्ले घटक-देखीक व्हडली येणावळ वा दुबळेपणां नासप) मनशाच्या मेंदवाची राखीव शक्ती वाडोवंक शकता. तशेंच ऍरोबीक एक्सरसाइजांतल्यान मेंदू कमी गतीन ल्हव जाता.

दिश्टी पडूंक उणें जालें तशेंच आयकूंक येवपाचें उणे जालें जाल्यार हेर वावरांत आडमेळीं येवंक लागतात. लोकांकडेन संपर्क दवरूंक आना स्वतंत्र जियेवपाक आडमेळीं येवंक लागतात. आंगांत दुबळेंपणां आयलीं जाल्यार दिसपट्टो वावर करूंक आडखळ जावंक येता.

विज्ञानाच्या मळार उदरगत जाता तशी आमकां येवपी आडमेळीं हुपूंक मदत जाता. मोतीबिंदू जाल्ल्या लोकांच्या दोळ्यांचे ऑपरेशन, आयकूंक उणें येतल्यांक काना-वक्लां आतां सामान्यपणान मेळटात. जाण्ट्या मनशांचे गरजांक तोंड दिवंक इमारतींनी तशेंच सरभंवतणी बदल घडोवपाचोय जायतो यत्न चल्ला. जायते जाण्ट्यांक खोलाय वा रंग पारखूंक कठीण जाता. दिसपट्टो वावर देखीक वाचप, शिंवप, बाजार करप, रांदप हातून लेगीत दृश्टी उणी जाल्ल्या लोकांक आडमेळी येतात. सारकें दिसनाशिल्ल्यान पडपाची शक्यता वाडटा. तशेंच गाडी चलयतना रस्त्या वेल्यो कुरू दिसूंक कठीण जाता, आमोरेचेर मुखावेल्यान येते गाडयेची लायट दोळ्यार मारल्यार त्रास जाता, कमी उजवाडान दिसूंक कठीण जाल्ल्यान मार्गा कुशीक चलतले लोक वा मार्गाची देग कळूंक कठीण जाता आनी हातूंतल्यान अपघात वाडटा. फक्त दृश्टी कमी जाल्ल्यानच नासून, लक्षांत येवपाची क्षमता उणी, प्रतिक्रिया दिवपाक कळाव जाल्ल्यान, दोळे आनी हात पांय हांचे मदलो सुमार उणो जाल्ल्यान आनी एकूण नदरेन आयिल्ले म्हायतीचेर प्रक्रिया करपाची तांक उणी जाल्ल्यान हे अपघात घडटात. डायबेटीज, ग्लाउकोमा, मॅक्युलार डिजनरेशन आनी कॅटरॅक्ट सारकेल्या स्थिती पासूनय नदर उणी जाता.

दोळ्यांत मोतीबिंदू पडलो म्हणटकीच दिसप अस्पश्ट जाता. मोतीबिंदू काडपाची सर्जरी चडशी यशस्वी जाता. वाडटे पिरायेर मॅक्युलर डिजनरेशन जायतें जाणांक जाता. मॅक्युला म्हणजे दोळ्यांच्या पड्ड्याचो मदलो भाग. पड्ड्याचो हो भाग झिरझिरता तेन्ना बारीकसाणी दिश्टी पडनात

दोळ्यांत रक्ताचो दाब वाडून नदरे शिरेर मार बसता हाका ग्लाउकोमा म्हणटात. वेळार उपचार करना जाल्यार हाचे पासून मनीस आंधळो वा कुड्डो जांव येता.

जाण्टेपणान कमी आयकूंक येता हें आमी जाणात. भोव करून एका बरोबर दोन तीन वेगळे-वेगळे आवाज आयले वा एका बरोबर खूब जाणां उलयलीं जाल्यार दुसरीं उलयिल्ली स्पश्ट समजना. खूब मोटो आवाज वा खूब वेळ खूब मोटो आवाज, सिगार ओडप, कानांचें infection आनी विशिश्ट रसायनां कडेन संबंद येवप हातूंतल्यान आयकुपाची तांक उणी जाता.

आयकूंक येना तें भोवतणच्या लोकांक लक्ष ना, विसर पडटा आनी बेठेंच किटकीट करता अशें दिसता. कानाच्या वक्लाची संवंय जावंक कांय तेंप वता कारण काना वक्ल हेर आवाजय मोटो करता.

जाण्टेपणान वास आनी जिबेची रूच उणी जाता. कांय तरेची दुयेंसा आनी वखदां वा सर्जरी हांचे खातीरय वास आनी जिबेची रुच उणी जावंक येता. जेन्ना जाण्टीं लोक जेवण रुचीक लागना अशें म्हणटात तेन्ना घडये तांचे जिबेचे taste buds उणे जातात वा रुच पारखूपाची क्षमता उणी जाता. सादारणपणान गोडसाण वेवस्थीत पारखप जाता पूण आंबट, खार आनी कडू रुची कमी कळटात. दादल्यांपरस बायलांक वास आनी रूची चड तेंप उरता.

जाण्टेपणान आंगान बळ उणे जाता. जड उबारूंक नज जाता आनी-खूब शक्त लागपी कामां करूंक नज जाता. खूब वेळ चलपाची ताकत उणी जाता. जाण्टेपणान लेगीत बरो व्यायाम करून आंगांत बळ वाडोंवक शक्य जाता. एका संशोधनांत साठ ते णव्वद वर्सां

पिरायच्या जाण्ट्यांक बरो तेंप weight-training, power training वा resistance training केल्ल्यान ह्या लोकांची शक्त, स्नायुची कुवत, गती शिलता, सोंसपाची तांक, पायांची शक्त आनी शारिरीक कामां करपाची शक्त वाडिल्ली.

जाण्टेपणान लेगीत व्यायाम करून आंगात शक्त भरूं येता हे संशोधनाचे निश्कर्ष खूब म्हत्वाचें कारण अशी शक्यता आसत तेन्नाच शक्त उणी जाल्ल्या जाणट्यांक दोतोर व्यायाम करात म्हूण सांगतले आनी जाण्टींय तो करूंक तयार जातलीं.

कांय जाण्ट्यांत स्नायू आंवळटात तेन्ना तीं पडपाची आनी हाडां मोडपाची शक्यता वाडटा. आनी एक कारण ज्या खातीर जाण्टीं पडूंक शकतात म्हळ्यार मेंदावतात आमच्या आंगाचे विशीं म्हायती दिवपी receptor cells मंदावतात. हे receptor cells आमचें आंग कशें आसा- आमी उबीं आसात काय बसल्यात, काय बाग घेतल्या, पांय खंय आसा आदी सगळी म्हायती आमच्या मेंदवाक दिता. हि म्हायती आमचो तोल सांबाळूक म्हत्वाची. ही म्हायती मेळपाची उणी जाली तशी तोल वचपाची शक्यता वाडटा. खोलाय पारखूपाची क्षमता उणी जाल्ल्यानय तोल वचूंक शकता. तेच भशेन जाण्टेपणान आमची reflexes उणीं जातात जाल्ल्यान तोल आटपप कठीण जाता. जाण्टेपणान पडटकीच तातूंतल्यान निवळपाकय कठीण जाता.

**(चलता)**

संपर्क: 9881527581

***

*(पान १८ वयल्यान)*
धडपड, माया म्हळ्यार जिद्द, ताज्या ह्या तिनूय सभाव गुणाखातीर ताणे उंच अशी मळबझेप घेतल्या. मायाचे काय खाशेले गुण आसात. एक म्हळ्यार तें बरें फुडारी. खंयूय संमेलन, मेळावे वा कार्यावळी आसल्यार तें फुडारपण घेता आनी बरोबरच्यांक वचपाक Motivate करता. बशीच्या वेवस्थेपासून पावती पुस्तकां खपोवपापासून ताका खंयच कमीपण दिसना. ताज्यांतल्या कार्यकर्त्याक तें आजून विसरूंक ना. माया रायटर आनी फायटर. कोंकणी राजभास आंदोलनात 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ह्या बॅनराखाला ५५५ दिसांच्या खर आंदोलनात आमचेवांगडा माया पोटतिडकीन वावुरलां आनी ह्या जैतांत ताचोय वांटो आसा हे सांगपाक खोस भोगता. आनी एक सभावगुण म्हळ्यार ताका आयिल्ले सगळे पत्रवेव्हार आनी साहित्याची कात्रणां सांबाळून वेवस्थीत फायल करुन दवरता. त्रिवेणी कार्यक्रम खंयच्या वेळार, खंय केल्लो हाचो सगळो डेटा मायाकडेन आसतलो. शिस्त आनी वेवस्थीतपणां दोनूय गजाली मायाकडेन आसात.

माया, तुज्या एकूण ४५ वर्सांच्या धडपडीक आनी लेखन कार्याक साहित्य अकादमीच्या पुरस्काराच्या रुपान मानाचो पाट फावो जाला. तुज्या 'अमृतवेळ' ह्या कादंबरेक खूब नामना मेळ्ची. विविध भाशांनी तिजे अणकार जांवचे ही मनोकामना. तुजो आदर्श आनी स्फूर्त घेवन नवे प्रतिभेचे लेखक कोंकणी साहित्यात फुडें येवंचें अशी सदिच्छा. म्हाका खबर आसा इतल्यान तूं थांबचेना, तुजे आनिकूय हावेस आसात तुजे हावेस आनी सपनां पुराय जावपाक तुका बरें आरोग्य आयुश्य लाबूं अशें मनापासून मागतां.

संपर्क : 9970445778

***

# मण

**दादा हेगडे**

मेल्ल्या मनश्यांची मडीं सडचीं न्हय आनी तीं कांय वेळ मेरेन तशींच उरचीं म्हण फोर्मेलीन वापरूंक कोणाचीच कागाळ नासली. मात ज्या वेळार तें फोर्मेलीन मेल्ल्या नुस्त्याच्या वाटेक गेलें थंयच सगळें घुसपलें. नुस्तें मेल्लें जरुय आसलें तरुय तें तशेंच 'ताजें' मेळच्या पासत गोंयकार कसलीच तडजोड करूंक तयार नासता. सकाळीं उठल्या उपरांत तो त्या दिसाच्या जेवणा ताटावेल्या नुस्त्या बगर दुसरी कसलीच गजाल चिंतूकच शकना. गोंयकार आनी नुस्तें हांचे नातें सामकें अतूट. भगवान विष्णून धा अवतारा मदलो 'मत्स्या अवतार' फकत गोंयकारा पासतूच घेतिल्लो हांतूत मातूय दुबाव ना. गोंयात एका तेंपार नुस्तें विकप चड करून तीठयांनी जातालें. हालीं त्या तीठयांच्या जाग्यांनी 'फिश मार्केटां' जाल्यांत. कुसमणा असोच एक नुस्तें विकपाचो तीठो आसलो. सद्यस्थितींत थंयसर केपें मुन्सिपल कौन्सिल आनी केपेंच्या माजी आमदाराच्या सरकारी आधारान चार मजली 'मार्केट कम मॉल' अशी बांदावळ जाल्या. आमदार बदल्ल्यान उक्तावणाचो आजून मेरेन म्हूर्त थारूंक ना.

केपें नुस्त्या तीठयावेलो 'मण' हो सगळ्यांच्या वळखीचो नुस्तेकार. मोटवें सदळ काल्सांव, वयर सकला दोनी अर्दानीं कात्रे आशिल्लो बुशकोट. रंगान सांवळो म्हणचे परस काळोच म्हळ्यार जाता. लांब रुंद देह, सदांच हांसतें मुखामळ. आंगाच्या कातीच्या रंगा पासत तो हांसल्या उपरांत मातशे फुडें आयिल्ले ताचे धवे फुल्ल दांत चकचकताले. मणाचे खरें नांव 'लक्ष्मण सावळो शेटकर'. नांव म्हणपाक जमना ताणी लक्ष्मणाचो 'मण' केलो. ताच्या परस पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यांचो तो 'मणदाद' जालो. उपरांत ताका कोणूच लक्ष्मण ह्या नावांन वळखी देखून नासले. केपें पूला पलतडी आमोणा मड्डी वाड्यार तो रावतालो. ह्या वाड्यार ताच्या सारके हेर कांय जाण नुस्तें विकपाचो धंदो करपी रावताले. आयज लेगीत ते थंय रावतात. केपें नुस्तें विकपी नुस्तेंकार सकाळीं फांतोडेच्या पारार मडगावां सावन नुस्तें घेवन तें केपें तीठयार विकूंक बसताले. दोन रिकामी तेलाचीं ना जाल्यार कसलींय लातां घेवन ताच्या वयर आडवे लाकडी फळे घाल्ले आसताले. त्या फळयांचेर नुस्त्याचे वांटे घालून बाकीनार बसून नुस्तें विकप. आतां फळयांची सुवात आलूमिनीयम पत्र्यांच्या ट्रेनी घेतल्या. हेर नुस्तेंकार जरुय बसून नुस्तें विकी, मणदाद मात चुकून असो बशिल्लो दिसतालो. तो चडसो उबोच आसतालो. हांसऱ्या तोंडाचो. ताचें हांसप लेगीत एक विशिष्ट तरेचें आशिल्लें. विकिल्ल्या नुस्त्याची पोटली गिरायकाक दिवंच्या वेळार ताचे लागीं चार उतरां उलयले बगर ताचो व्यवहार केन्नाच पुराय जाय नासलो. गिरायक पळोवन आई कशी आसा? पायची भलायकी कितें म्हून्टा? घोवा चीट बी आयलेली गो? अशी घरगुती वासपुस धरून फाल्यां श्री दत्ता देवळांत बांदोडकारालो श्रावण बिरेस्तार, दोतोराच्या तिसऱ्या चलयेची सोयरीक पणजे जाली खंय अश्या तरेची सामाजीक पेरगावां फकत मणानूच घालचीं. हो ताचो सभावगुण जावंये. अथवा तो त्या वेळावेलो नुस्त्या तीठयावेलो मुखेल नुस्तेकार जाल्ल्यान तांचे लागीं असल्या खुपश्या गजालींचो सांठोय आसतालो जावंये. गावांतले दोतोर, आदोवोगाद, मामलेदार, पुलीस इन्स्पेक्टर, हवालदार, तलाठी, अश्या लोकांकडेन ताचो सामको लागींचो संबंध आशिल्लो. हे सगळे ताचीं सदांचीच गिरायकां. त्या भायर हातूंत सागवादीन जोडिल्ले 'सनदी सरकारी' अधिकाऱ्यांचो आसपाव आसतालो. केपें त्या वेळावेल्या सनदी अधिकाऱ्यांनी कोणी एकट्यान जरी मणदादाल्या ताज्या 'नुस्त्याचो पाहुणचार' घेवंक ना अशें सांगत तर ते खंयचोंच केंपेंकार मानून घेवंचो ना!! केंपें तशेंच लागसारच्या गावांतल्या सामान्य लोकांचे कसलेंय अडचणीचें काम ह्या अधिकाऱ्यांलागीं आसत तर लोक मणाक गांठी. उपरांत तो तांका घेवन तांच्या ऑफिसांत नाजाल्यार कोंसुलतारींत हजर जातालो. हांसत हांसत त्या लोकांची कामां, अडचणी मणान समजावन सांगल्या उपरांत ''आतां चल तूं घरा, सायबा काडसून तुजें काम जालेंच म्हण समज'' ही गेरेन्टी मण तांका दितालो. मणाली ही गेरेन्टी आयज मेळटल्या खंयच्याय नगाच्या गेरेन्टी परस चड खात्रीची आसताली.

मडगांव सावन नुस्तें हाडूंक मणाली एक पिकअप टेम्पो आशिल्ली. हेर नुस्तेंकार हातूंत बसून आपले पांटे घेवन मडगावां नुस्त्याक वताले. केन्नाय भाडे मारून पिकअप मडगांवा सावन रिकामी येवपाची नाजाल्यार वचपाची आसत तर मण त्या वेळार हेर लोकांचे सामानुय तांतूत घालून थोड्यां पैशांनी हाडी. 'ईस्पेशल' कांय वचचें पडना, गेल्ले कडेन येतना वतनाचें भाडें मेळिल्लें आसता अशें ताचें म्हणणे आसलें. त्याभायर हीच मणाली टेम्पो जायत्या वेळार अडिल्याची 'एम्बुलन्स' तशीच केन्नाय 'हर्स व्हॅन' जाताली. त्या वेळार १०८ तशेंच आमदार ना जाल्यार तांच्या आवय बापायच्या नावांचेर धर्मदाय मडीं हाडपा-व्हरपाच्यो गाड्यो नासल्यो. दोनुय तरेच्या वापराक मणान केन्नाच नां अशें म्हणूंक नां. आतां १०८ नाजाल्यार सरकारी हर्स व्हॅन वापरतल्याक, त्या वेळार असल्या गजाली पासत लोकांचे जाल्ले हाल आनी त्रासाची कल्पनाच येवंक शकना. ज्या ज्या लोकांनी त्या वेळार हाचो लाव घेतला ते मणाक विसरूंक शकनात. माथ्यावेले पांटे, सायकल, स्कूटर ते ल्हान रिक्षानीं अशे आतां दारांदारांनी नुस्तें विकतें मेळटा. आज नुस्तें विकूंक तीठयाची पयलीं सारकी गरज उरूंक नां. शारांनी तर आज दुबय, थायलंड आसात तशीं स्टेट ऑफ आर्ट फिश मार्केटां तयार जाल्यांत.

आयच्या ह्या मॉडर्न फिश मार्केटांनी नुस्तेंकार आनी नुस्तें घेवपी गिरायकां दिसतात. तांच्या मदीं नुस्त्याचें मोल मोलावंचो सोडून आनी कसलोच संवाद जाल्लो कानार पडना. आतांचे गिरायक घेतलें नुस्तें लागलें चालीक. नुस्त्यांतलो फ्रेशनेस सोदतां सोदतां स्वतःची जीण पोंवशेत वता हाची दिस रात धांवपी मनश्याक विसर पडत आसा. कमी शिकिल्ल्या सर्गेस्त मणदादा कडसून तीठयार नुस्तें विकताना लेगीत खूपशी समाज उपेगाचीं कामां करूं येतात तशेंच समाजाकडेन लागचो संबंद कसो दवरूं येता हें शिकपा सारकें आसलें.

संपर्क : 9822129070

***

# साद म्हादयचो

मानसी प्रेमानंद धाऊस्कार



"आगो मारी, कर्नाटोकान म्हादय व्हयली फूंय गो?"

माथ्यार नुस्त्याची बाल्दी घेवन बाजारांत वयतल्या मारीयाक जाकीनान विचारलें.

आदींच मारियाक बाजारांत वचपाक कळाव जाल्लो. ताचे वांगडच्यो सगल्यो नुस्तेंकात्री आपआपलें नुस्तें घेवन बाजारांत पाविल्ल्यो. घोवाक लागून मारियाक आयज कळाव जाल्लो. ताचो घोव काटाळी लायतालो आनी ताका लागिल्लें नुस्तें बाल्देंत घालून मारियाच्या माथ्यार दितालो. आयज काटाळेक सदचे परी नुस्तें मातशें चडूच फारवल्लें. तें सोडयता म्हणसर तांकां दोगांकूय मातसो कळाव जाल्लो. मारिया तेंच घेवन धांविल्ले वरी बाजाराची वाट चलतालें. तेच वेळार जाकीनान ताका सादयिल्लें आनी म्हादयची गजाल विचारिल्ली.



"आगो जाकीन ती म्हादय कांय कितें तें बाजारा सावन येतकीच उलयतां. आतां म्हाका कांयच इचारीं नाकाय. म्हुजें सदचें गिरायक म्हाका रावतेलें." अशें म्हणत मारियान आपल्या पावलांची गती वाडयली.

"हेंकां आपल्या पोटा मुखार आनीक कांय पडोन वचोंक ना. एक खेप उदोक आटलें आनी थेंब्याक पातिशेर जातलीं तेन्ना रोडटलीं..!"

माथ्या वयले बाल्देक दोनूय हातांनी घट्ट धरून, घट्ट कांसाटो मारून एके लयीन भेंड हालयत धांवपी मारिया कडेन जाकीन पळयत चिंततालें.

जाकिनालो शेताचो एक ल्हानसो कुडको रस्त्या कुशिकूच आशिल्लो. तांतूंत तें आनी ताचो घोव जुआंव दोगांय वावुरतालीं आनी पोटापुरतें पिकयतालीं. पावसांत भात लायतना केन्ना दोन कामेऱ्यां वा हेर शेतकारांक आपोवन तांचो आदार घेतालीं जाल्यार मागीर शेत लुंवल्या उपरांत शेताचे एके कुणगेंत आपुणूच खणून थंय मिरसांगो, तांबडी भाजी आनी वायंगी रोयतालीं. शेत रस्त्या कुशिकूच आशिल्ल्यान आपल्या शेतांतलें पीक रस्त्यान वचपी लोकांक विकून चार पयशे गांठीक सांबाळटालीं. गाडयेकारय गाडी थारावन ही ताजी भाजी चड घासाघीस करी नासतना व्हरताले.

जाकिनाक उलोवंक खूब जाय आसलें. शेतांत काम करता आसतना घोव लागीं आसलो जाल्यार ताचे लागीं उलयतालें, ना तर काम करता आसतनाच रस्त्या वयल्यान येतले वतल्या वळखिच्यांक जापायतालें. आतांय ताणें तेच संवयेन मारियाक जापायल्लें. पूण माथ्यार नुस्त्या वजें घेवन मारिया चडूच रावपाचें..! बाजार करून येतना जाल्यार खेरीत गजाल आसपाची..

इतले म्हणसर लागशिल्लो होंडो उसपुपी जुआंव होंड्यांतल्याच उदकांत हात पांय धुवन होंड्यांतल्यान वयर सरलो. ह्याच होंड्याच्या उदकाचेर जुआंव आनी जाकीन मिरसांगो, तांबडी भाजी आनी वांयगीं पिकयतालीं.

होंड्याकूय मातशें उसपिल्यार रोखडेंच उदक लागतालें आनी त्याच उदकाचेर तांकां आपली पिकावळ सुकतली म्हणपाचो हुसको उरनाशिल्लो. ताच्या होंड्याचेर गरज पडल्यार लागशिल्ले शेतकारूय आपली गरज भागयताले आनी जुआंव जावं जाकीन तांकां एका उतरानूय आडयनासलीं. "उदक तें, गरजवंताक दिवंचें" अशें म्हणून तीं ओगी रावतालीं. तेय जुआंवाक गरज लागल्यार होंडो उसपूंक आदार करताले. ना तर जुआंव खोऱ्यान मातयेच्यो थापयो जाकिनाच्या हातार दवरतालो आनी जाकीन त्यो वयर उडोवन होंडो बांदून घेतालें.

"हय रे जुआंव, लोक उलयताय तें सत?"

जुआंव बगलेक आयलो तशें जाकिनान ताका विचारलें.

"लोक उलयताय तें सोगलें सत आसताच ओहें ना. पूण तुका कोहलें सत जाय तें सांग. कितें उलोयताय लोक?"

"म्हादय न्हंयचें उदक शेरकारान कर्नाटोकाक खावोयलें फूंय?"

"खावोयलें मुगो? खावोंवदी! आमकां मेवता न्हू खावपाक नोवाचें आनी शिंपपाक होंड्याचें. मागीर खूब जालें..."

"आरे तें खोरें.. पूण गोंयचेंय चिंतोंक जायें न्हू? काल टियीर चोयलेलें मातसो वोगोत निवजार. लोक बरोच उचांबळीत जाला दिसता..!"

जाकिनान हुसक्यान शें ताका सांगलें. पूण तो हुसको ताका जुआंवां भितर दिसलो ना.

"आगो जाकीन, गोंयचो आनी म्हादेयचो हुसको मागीर कर. आदीं देनपारच्या जेवणा कर.. हांव बाजरांत वचोन कितेंय नुस्तें घेवन येतां. तूं घारा वयता जाल्यार वच नाजाल्यार हिंगाच राव, हांव रोखडोच नुस्तें घेवन येतां, वांगडा घारा वोयचीं." अशें म्हणत जुआंवान कालसांव फाफुडलें आनी मेरे वयलें बानयान चडयलें.

"आरे जुआंव खावपा जेवपाचें चुकोना रे.. तें तर सदांचेंच... पूण गोंयच्याय फुडाराचें आमीच चिंतोंक जायें न्हू...?"

"मागीर तूंच चींत. तो टियी चोवन चोवन तुजो भेजो भेरेला. चोल, हांव रोखडोच

येतां..." अशें म्हणत ताणें पावलां उखल्लीं पूण रोखडेंच फाटीं वळून ताणें म्हणलें,

"हें चोय जाकीन, कोणांक कितें व्होरपा आहा तें तांकां व्होरोनी. म्हादय आमकां हिंगा फूंय लागता? आमकां आमच्या होंड्याक उदक लागता तें खूब जालें. दुसऱ्या हुसको माथ्यार घेईनाका." अशें म्हणत जुआंव बाजाराचे वाटेक लागलो.

जाकीन, जुआंव गेला ते दिकेन ताका थोडो वगत पळयत रावलें. मागीर ताणें थोडो वगत जमीन मोवसार केली आनी मिरसांगां रोप्यां पासत चार पांच कुणग्यो तयार जाल्यात त्यो पळोवन तें सातिस्वेत जालें. आतां होंड्यांतलें उदक काडून माती भिजयली काय तांतूंत रोपे रोवपाक आपूण मेकळें अशें ताका दिसलें.

हात पांय धुंवपा पासत तें होंड्यांत देंवलें. दनपार जायत येताली. शिंयाचे दीस आशिल्ल्यान उदकाक आजून शितळसाण आशिल्ली. होंड्याक तेंकून शेताचे धडेक माड आशिल्ल्यान चुडटांचे सांवळेक लागून होंड्यात वत देंवनासलें. ताका लागून उदकाक तापसाण उसरां येताली.

होंड्याच्या उदकांत पांय बुडयले बराबर त्या थंड उदकाच्या स्पर्शान जाकिनाचो सगलो थकवो त्या होंड्यांतल्या उदकांत अचळय देंवून नाच्च जालो. ओणोव घेवन ताणें आपल्या पोशांत तें शितळ उदक घेतलें आनी सप सप करून तोंडार मारलें. तेन्ना तर ताचे कुडीचो सगलो शीण देंवलो. उदकाच्या त्या आपलेपणान ताका परत एक खेप म्हादयचो उगडास जालो.

"शेरकारान खरेंच काय म्हादय करनाटकाक दिल्या..? म्हणटकच करनाटक उदक आडायतलें तर..? कसलो सांवार येयला काय ह्या शेरकाराचेर..? त्या बांदोडकारा शेरकारान गोंयूच म्हाराष्ट्रांत घालपा केलेलें. आमी गोंयकारांनी तें आडायलें. म्हुज्या मांय पायनूय तेंका मतां मारूंक ना, गोंयचे वाटेन मारलीं. आतां हे म्हादय दिवन उडयताय फूंय..! हांवूय वयतलें मोर्चाक..! फातर लेगी शेंवटीतलें..! गांवच्या लोकांक कोमार काडटलें..!"

येवजीत येवजीत ज्याकीन होंड्यांतल्यान वयर सरलें. तितले म्हणसर जुआंव नुस्तें घेवन थंय पावलो. दोगांय घरचे वाटेक लागलीं.

"तूं सांगता तें सारकें गो जाकीन. बाजारांत सोगली म्हादयचीच खबर चोल्ल्या. बाजारांत व्होडली जमात आहा फूंय!" जुआंवान म्हणलें.

"हांयें सांगोक नाहले तुका? आमीय वयची हां जमातीक." घरांत भितर सरतां सरतां जाकिनान म्हणलें.

सांजचें वत मोव जातकच जाकीन आनी जुआंव शेतांत देवलीं. वांयग्यां खातीर तांकां सुवात तयार करपाची आसली. आंतोनील्या शेतांतूय आंतोनीली बायल, सून बी पालो आनी कोयर एकठांय करून तांकां उजो लावपाचें काम करतालीं. सांजवेळार मेकळ्या शेतांत पासय मारपाक आनी दोन गजाली करपाक शेताचे दुसरे धडे वयल्या घरांतलीं मारिया बी एक दोन बायलांय थंय येतालीं.

"तांकां पळोवन जाकीन, येता आं जुआंव रोखडेंच..." अशें म्हणत तांचे म्हऱ्यांत गेलें.

"आगो सांतान, फाल्यां बाजारांत म्हादय पासत जमात दवरल्या हें जाणां मुगो तूं?" जाकिनान आंतोनी बायलेक म्हणलें. तेन्ना मारियान जाकिनाक पळोवन म्हणलें, "हय गो सकाळी नुस्तें विकतना बाजारांत त्योच गजाली चलताल्यो."

"म्हणटकच या मुगो आमी फाल्यां?" जाकिनान सगल्यांक विचारलें तशें आंतोनीली सून फणफणली. "त्यो जमाती बिमाती आमचे पोटाक शिरी पोडटाय? इलेसावांक घेयल्यो नाय? मागीर कितें जालें? गेले मुगे सोगले ते वाटेन दुडू घेवन?"

"मागीर वायट कितें जालें? बसले सुवातेर म्हयन्यांक तीन तीन हजार मेवोना? काजारा वगतार एक एक लाख दिवना लाडली लक्ष्मी म्हूण? मारियान म्हणलें." तशें आंतोनीली सून ओगी पडली.

"जाणा मुगो जाकीन, लोक जमातीक वचपाक भियेता. दुडू मेवताय तेय वचत म्हूण. पूण आमी या. म्हादय आटत जाल्यार आमचें नुस्तेंय गेलें आनी तुगेलें शेतूय गेलें. पूण जेंकां आयतें दुडू मेवताय तेंचें कांय वचना."

मारियाची त्रोसां आयकून सांतानान आनी ताचे सुनेन तोंड वांकडें केल्लें जाकिनान पळयलें. ताका थंय रावन शें दिसलें ना.

"बरें गो मारिया वयता हांव. जुआंव बाबडो एकटो काम करता. अशें म्हणून जाकीन थंयच्यान कडसरलें." "आपुणूय चल्लें" म्हणत मारियानूय आपली वाट धरली.

जुआंवा म्हऱ्यांत येवन जाकीनान कितें घडलें तें सांगलें. तेन्ना जुआंवान हातांतलें काम थारायलें आनी जाकिनाक पळोवन म्हणलें, "जाकीन, आपल्या लागीं जाता तें आपणें करचें. आयज खुबसो लोक मिंदो जावन जियेता. तेंकां सुदारप आमच्या हातीन ना. तेंच्या जिवार येतकच तेंकां गोमतोलें." अशें म्हणून जुआंव कामाक लागलो.

"गोमतोलें तेन्ना खूब कळाव जातोलो. आमी सगलीच फोंडान पडटलीं. म्हणटकच आतांच तेंकां शादूर करप आमचें काम रे जुआंव!" जाकिनान तळमळीन म्हणलें. ताचो किंवांटो जुआंवाक उमगलो. पूण मिंद्या लोकांक जागे करप आयज हाता भायर गेलां हें तो जाणा आसलो. खणटा आसतना ताचे खोऱ्याक खटाक करून एक नाल्ली आपटली. पांयाच्या आंगठ्यान ताणें ती जाकिना मुखार उडयली आनी थंडसाणेन म्हणलें,

"जाकीन, आमचें गोंय सगले वाटेन काबार जालां. सांबावपाचो आमी यत्न करूंया. सांबावप जालें ना जाल्यार आमचेर नाल्लीभर उदकांत नाक बुडोवपाची पाळी येतली. जावपा आहा तें कोणांक चुकना!"

"तेन्ना सट्ट करून जाकिनान म्हणलें, ओहे निर्शेवप समा न्हय. सगलें सारकें जातोलें. ही नाल्ली फकत नाक बुडोवपाक उपकरता अशेंय न्हय. तिचो दवलो कोन्न आमी पेजूय जेवल्यांत. आमी गोंयकार पेज न्हय, हेंवूय दाखोवपाचो वगत येयला. जैत आमचें आहा."

जाकिनान म्हणलें आनी जुआंव ताचे लागी पळयत उरलो. ओपिनीयन पोला वगतार ताचे सासुमांयनूय एका वगतार तशेंच म्हणलेलें. ताका आयज जाकिना भितर सासुमांयचेंच रूप दिसतालें.

संपर्क : 8788595022

***

# बायल कोणाली?

महेश पारकार



त्या दिसा आमी रेल्वेन पुण्यात वचपाक गेले. हांव आनीक म्हजे परस कांय वर्सांनी जाण्टो इश्ट मुकुंद. निर्धारीत वेळ सरलो तरी रेल्वे मडगांव स्टेशन सोडपाक तयार ना. एसी, सेमी डब्यांत तशे प्रवासीय जेम-तेम. गाडी केरळच्यान आयिल्ल्यान चडशे लोक बर्थाचेर आडवे. आमी आरक्षित केल्ल्या सिटांचेरय दोग जाण हुस्क्या मेकळे न्हिदिल्ले. तांका मोगान उठोवन आमगेल्यो सुवातो आमकां हातासच्यो पडल्यो. मडगांव स्टेशन सोडलें. तसो मुकुंद सिटाचेर आडवो जालो. घोरेवपाक लागलो. हांवेय म्हज्या सिटाचेर आडवो जावन पुस्तक वाचपाक कोमेस केलें. आमच्या सामकार एक मध्यम पिरायेची सोबीत बायल मनीस बशिल्ली. सांगाता एक तरणाटी चली. आनी त्या फुडें एक दादलो दोळे धांपून 'कांदे जोखतालो'. घडये घोव-बायल आनीक मदली तांगेली चली आसूंये. त्या भायर त्या बायलेच्या उजवे वटेन दांड्याकडेन आनीक एक मध्यम पिरायेचो दादलो. आतां त्या दोगां दादल्या मदलो हिगेलो घोव कोण काय? कसोच अदमास लागना. कोणूय आसूं कित्याक त्यो वासपूशी?

फुडें कुडचडें स्टेशनार पावले. कित्याक, कसले कारणान म्हूण समजलें ना. सुमार देड वर आसा थंयच गाडी! फुडें कुळें स्टेशनार पावली. थंयूय लागी लागीं तितलोच वगत गाडी पुराय, संवसार थांबलेल्या भशेन एकाच सुवातेर! अर्दें वयर पुस्तक वाचून काडलें. तितलीच म्हजी येणावळ. मुकुंद जो मडगांवा आडवो जाल्लो तो त्याच अवस्थेंत. ह्यो रेल्वे म्हळ्यार लोकांक नाका जाल्यारूय फोर्सान न्हिदोवन घालपी माध्यमां जाल्यांत. जांका दिसा उजवाडा न्हिदन दिसना तांकाय आवयो फोर्सान भुरग्याक न्हिदयतात तशें न्हिदचें पडटा. देखून हांवेय उपाय नासून आसा तशेंच ताणून दिलें. अचकीत जागो जालो पळयल्यार गाडी आसा थंयूच. कुळे स्टेशन सोडपाक तयार ना. सांजेची स वरां जालीं. २ वरांचेर सुटिल्ली गाडी कुळ्यां पावता म्हणसर 'स' वरां जावप? चलपाक लागिल्ले जाल्यारय बेगीन पावपाचे. पूण तसले अदमासांक रेल्वेंत एक फावट बसलो कीं कसलेंच म्हत्व नासता. तो मुखावेलो घराबो मात जागोच. ते दादलेय आता मेकळे जावन खात-पित आसले. भायर-भितर बोब मारीत भोंवतल्या विकप्यांकडल्यान कितें ना कितें घेवन पोटां भितर धुकळीत बशिल्ले. हावा-शिवा करीत कुळें स्टेशन सोडलें तशें रातचे जेवणाच्यो ऑर्डरी घेवपाक विकपी मनीस आड्डून येवपाक लागले. हांवे घरच्यान डबो हाडिल्लो. पुण मुकुंदान केन्ना तरी दोगांचेय पासत जेवणाची ऑर्डर दिवन तो पर्थून न्हिदलो आसूंये. म्हाको पत्तोच ना. थोड्या वेळान रेल्वे गाडयेन नेट धरलो. न्हिदिल्ले लोक उठून फटाफट जेवणाच्यो ऑर्डरी दिवपाक लागले. इतले बोवाळांत मुकुंदय उठुन धुवन पुसून ताजो तट्टीत जालो. आतां आमी दोगूय उठून डब्या भितर पासयो मारपाक लागले. मेकळी शी सुवात पळोवन सुशेगात बसून खबरी मारपाक लागले.

इतल्यांत आमचे सामकार बसलेली ती बायल मनीस पुराय वळखीची जाल्ले भशेन आमी बसल्यात थंय आयली. आनी आमचेच भाशेंत म्हाका म्हणपाक लागली...

"तुमचे जेवणाची ऑर्डर थंय आयल्या आं!"

म्हाका सुमाराभायर अजापाचो धक्को बसलो. ही दोन दादल्यांमदी धुवे सयत बसलेली बायल कोंकणी उलयली! ताचें चड अजाप. इतलो वगत मुखार बशिल्ली! केरळ वा कर्नाटकांतल्यान आयल्या आसूंये! असो म्हजो अदमास. मुकूंद म्हणपाक लागलो. "निकतीच तिनसांज जाल्या. म्हाका येन्रा जेवण चलचें ना."

"आरे पुण हांवे म्हजे जेवण घराकडसून हाडलां. म्हाका विचारी नासतना तुवें दोगांल्याय जेवणाची ऑर्डर कित्याक दिली?" हांवे रागार जावन मुकूंदाक म्हळें.

"जेव रे तूं दोनूय. वतलें तुका. गेलें ना जाल्यार दवर म्हाका. आसा म्हाका कापस्ताद दोनूय सोंपोवपाची" - मुकूंद.

ताका बसला थंयच सोडून हांव म्हज्या सिटाचेर येवन बसलों. बरोच वेळ मोन्यांनी बसून उरलों. निकतीच उलोवन गेल्ल्या त्या बायल मनशेलो घोव कसो दिसपी दादल्याकडेन हांवे उलोवपाचें थारायलें. एकमेकां सामकार बशिल्ल्यान कोणे तरी सुरवात करपाक



जाय आसली न्ही! आता खंयचे भाशेंत सुरवात करची तो मोटो प्रस्न पडलो. एका नदरेन त्या बायल मनशेक नियाळीत आनी हिंदीचोच आदार घेत हांचे ताका म्हळें,

''आप लोग पूना जा रहे हो क्या?''

''हां मै पूना जा रहा हूँ। लेकीन आप जो समझ रहे हो वैसा कुछ भी नही है। अब तक वैसा समझकर बोलने वाले आप तिसरे आदमी हो। आपकी कोई गलती नही है। रेल्वेमे सिटोपर नजदीक बैठके वालो के साथ ऐसा हो जाता है।'' ताणे हांसऱ्या मुखामळान म्हळें.

आतां हांवे त्या बायल मनशेकडेन पळोवन म्हळें, ''म्हाका दिसलें तुमी केरळ वा कर्नाटकांतल्यान आयल्यात आसूंये!''

''आनीक म्हज्या सायडीक बशिल्ल्या दोग जाणांपैकी कोण तरी म्हजो मिस्टर आसूंये! अशें तुमकां दिसलें न्ही?'' अशें म्हणून ती हांस हांसपाक लागली. तुमकां सांगता तशें कांय एक ना. हांव आनीक म्हजी ही धुव पुण्याक वतात. तें थंय शिकपाक आसा हॉस्टेलांत ताका सोडून परां हांव परत येतलें.'' ती बायल-धुव आमचे आदी मडगांवा येवन रेल्वेंत बशिल्लीं. मुखार उलयतां उलयतां ती एका बरोवपी इश्टाचीच घरकान्न म्हूण समजलें. मजगती एक फळां विकतली धश्टपूश्ट बायल आयली. हांव त्या दादल्याकडे हिंदीत उलयता तें पळोवन म्हाका म्हणपाक लागली, ''दो-चार फल आपके बेटी के लिये लेव साब!'' अशें तिणें म्हळें मात, आमचे सगल्याच्या तोंडांतल्यान हांशाचो शिंवर आयलो. कित्याक आमी हांसले तें तिका कळ्ळें ना. आनीक थंयच्यान कडसरली!

इतल्यान मुकुंद थंय पावलो. ताका घडये चडून बर्थाचेर वचपाचें आसूंये. देखून ताणे त्या खांब्याक तेंकून बशिल्ल्या दादल्याक म्हळें,

''आप लोगो ने ऐर्नाकुलम से सीट रिझर्व्ह की थी क्या? कितेंय तरी उलोवपाक जाय म्हूण मुकुंद उलयलो खरो! आरे ये तो ऐसा समझनेवाला पांचवा आदमी निकला. आप जो समझ रहे हो वैसा कुछ भी नही है।'' अशे ताणे म्हळें. तें आयकून आमी सगले पर्थून हांसपाक लागले. हे वटेन मुकूंद गडबडलो. उलयतनां आपूण चुकलो काय? ताका समजलें ना. बर्थाचेर बसून आबूज जावन तो चौगूय जाणांक तेळटालो. म्हज्या सामकार बशिल्ल्या दादल्याक जाका हांव तिगेलो घोव समजल्लो! तोच उठून ''आप जो समझ रहे हो वैसा कुछ भी नही है!'' अशें उलोवन तो उठून वॉशरुमावटेन वचपाक लागलो.

आता मुकूंद वयर वग्गी बसून जेवपाक लागलो. ही मुखार बशिल्ली बायल मनीस म्हज्या इश्टाची घरकान्न. तेंच सूत धरून तिच्या सांगाता हांव उलयत बसलो. रातचें बेळगांव-मिरजय केन्ना गेले तें समजलें ना. ती इश्टाली घरकान्न एक बरी नाट्य कलाकार म्हूण कळ्ळी. तिणे जांबावलेच्या शिगम्या निमतान जावपी नाटक पळोवपाक यो म्हूण म्हाका आमंत्रण दिलें. आतां ते दोगूय वटांतले दादले जांका हांव आनी मुकूंद त्या बायल मनशेले घोव म्हूण समजताले ते हळूच आमकां नियाळटाले. आमचे मजगतीं उलोवण्याचो फुटिल्लो बांध पळोवन न्हिदपाक लागले. मदींच तळमळटाले. परत न्हिदताले. सगल्यांली जेवणां जालीं. कांय आयस्क्रीमवाले डब्यांत घुसले. आमी दोगांय उलयतात, खबरी मारतात तें पळोवन ''आपको और बच्ची के लिये आयस्क्रीम लेलो साब! अशें म्हणून आगरो करपाक लागले. मुकूंदय नीट न्हिदपाचें सोडून अदी-मदीं तोंड घालतालो. ताकाय म्हळें, ''सकयल यो मरे! सांगाता खबरी मारूंया.'' ती बायल मनीस बायल वा घरकान्न नेमकी कोणाली? येद्या व्हडल्या डब्यांत हे वटेन तेवटेन पासयो मारतले हेर प्रवासी तशेंच विक्रेते हांका सगल्यांक प्रश्न पडलो! अशें तांगेल्यो नदरो सांगताल्यो. निमणे चादरी उशी हाडून बर्थाचेर उडोवपी रेल्वेच्या मनशांकय तो प्रस्न पडलो अशें जाणवपाक लागलें. आमकांय तो जापेबगरच उरतलो आसलो. मुकूंदान दिल्ल्या दोगांल्याय जेवणाचे ऑर्डरीक लागून त्या बायल मनशेलागीं संवाद सुरू जालो. समजा आमची एकमेकांलागी वळखच जावंक नासली जाल्यार!?

संपर्क: 94207 68518

***

## उल्हास पै रायकार हांका परबीं

पडसाद

स. न.

उस्ताद उल्हास खाँ बांयगिणीवाले,

तुमचो 'जागा'तलो लेख वाचलो. मागीर मारुबिहाग आयकलो. नव्यान कळ्ळो.

सैम, चित्र, साहित्य, मनीस हांचेर बरोवप सोंपे. कारण त्यो तुमी दोळ्यांनी पळयतात. पुण संगीताचे तशें नासता. थंय दोळ्यांच्या जाग्यार 'कान' जाय पडटात. गाणे अमूर्त आसता. ताका रंग, आकार, वास, कांयच नासता. तें तुमी दाखोवंक शकना. तें आयकतच तुमच्या मनांत जें किदें उबें रावता तेंय अमूर्तच आसता. अशावेळार तुमच्या मनांतले चित्र आसत, भाव आसत, ल्हारां आसत हें उतरांतल्यान वाचप्यामेरेन पावोवप सोपें न्हय. तुमकां ती कला सादल्या ताका लागता ती शद्बकळाय तुमचेकडेन आसा. हाचें एक कारण म्हळ्यार तुमी फकत गळ्यान गायना. गळ्यान गावपी खूब जाण आसात. (हांतूंत गळो काडप आनी हुयेली संगीत हे दोन प्रकार आसपावतात) तुमी काळीज आनी मन तातूंत घालतात.

खुब बरें वाचूंक मेळ्ळें. तुमची साधना आनी अभ्यास असोच चलचो. कोणे सांगचें फुडाराक तुमचे कडल्यान 'उल्हासखानी तोडी' नांवाचो नवो राग आमकां आयकूंक मेळूं शकता. गायकस्य भाग्यम्.

एक विनंती मदीं मदीं म्हज्या सारख्या 'नाचीज' मनशाच्या झोळयेत अशें किदेंय उडवचें.

''निस दिन ध्यान धरत हूँ
नाद ब्रह्मसे झोली मेरी भर दे''

**अरुण सुखठणकार**
संपर्क : 9226296757

***

साहित्य अकादेमी २०२२ पुरस्कार विजेती कोंकणी कादंबरी

# अमृतवेळ: एका अस्तुरेच्या संघर्षाची काणी

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

पुस्तक परिक्षण

कोंकणीतल्यो नामनेच्यो लेखिका माया अनिल खरंगटे ह्यो कोंकणी साहित्याच्या मळार एक येसस्वी कथाकार आनी कवियत्री म्हण फामाद आसात. त्या भायर बाल साहित्याच्या मळार लेगित तांचे व्हड योगदान आसा. 'अमृतवेळ' ही कांदबरी म्हळ्यार माया खरंगटे हांणी मोट्या धिटायेन कोंकणी कांदबरीच्या मळार घाल्लें पयलेंच पावल!

'अमृतवेळ' म्हळ्यार बापूय नाशिल्या शांतुलाच्या संघर्षाची काणी जें सामकें भुरगे पिरायेचेर वडगांवच्या फ़ामाद शिरवयकार घराण्यांत सून म्हण येता आनी ताचे रुपांतर सिताबायत जाता. ह्या सिताबायक तिचे जिणेंत आयिल्ले साबार प्रसंग आनी मोट्या धिरान आनी आत्मविस्वान केल्लो फुडो आनी निमणे आपलीं नातरां राजू आनी दुर्गा हांका आपल्या पांयार उबीं करपाक तिका आयिल्लें येस आनी तिचे पिरायेच्या निमण्या वेळार कांय जायनां तिच्या जिणेंत शेकीं आयिल्ली 'अमृतवेळ' हाची ही काणी.



ह्या कादंबरीच्या कथानकाक सोब सारकी आनी कादंबरी फुडें व्हरपाक, प्रसंग फुलोवपाक, जायतीं पात्रां लेखिकेन घेतल्यांत तरी ह्या कादंबरीचो केंद्रबिंदू म्हळ्यार सिताबाय आनी तीचो जिणेकडलो संघर्ष.

ह्या कादंबरीच्या कथानकाचेर नदर माल्यार एक गजाल मतींत येता ती म्हळ्यार ह्या कादंबरीच्या कथानकाचो काळ. हें कथानक गोंय सुटकेपयलीं पन्नास वर्सां आनी गोंय सुटके उप्रांत पंचविस वर्सांचो आसा. गोंय सुटके पैलींचीं पन्नास वर्सां सारस्वत घराण्यांची परिस्थिती, चले भुरग्यांक शिक्षण घेवपाक येवपी आडमेळीं, चलयांची सामके भुरगे पिरायेचेर लग्नां, त्या खातीर शिक्षणापासून तीं पैस. रांद, वाड आनी उष्टीं काड अशी तांची अवस्था. मागिर सारस्वत समाजाभितरल्या तरणाट्यांमदीं उप्राशिल्लें गोंय सुटकेचें वारें हाचें बेस बरें चित्रण लेखिकेन केलां आनी हें करतनां तांणी केल्या संशोधन वावराची तोखणाय करीन दिसता.

गोंय सुटके उप्रांत सुटिल्लें परिवर्तनाचें वारें, लोकशायेन भौसाक दिल्ले सगळे हक्क, कुळकायदो, कसता ताची जमिन हे कायदे आनी भाटां, शेतां आनी कुळागरांच्या उत्पन्नाचेर आपलो संवसार चलोवपी हो समाज. ह्या कायद्यांवरवी तांच्या उत्पन्नाचेर आयिल्ली हावळ आनी ताका ह्या समाजान कसो फुडो केलो हाचेंय बेस बरें चित्रण लेखिकेन केलां.

ह्या कादंबरींत घडून येवपी प्रसंग गुंथून घेवपाक लेखिकेन निवेदन पद्धत आपणायल्या आनी त्या खातीर ते प्रसंग फूलून येतात. पूण थोडे कडेन प्रसंगाचें वर्णन करतना नाका तितले तपशिल लेखिका घुसडायता ताका लागून त्या वर्णनांचो बेरंग जाता. खंयच्याय कादंबरींत प्रसंग जितले गरजेचे तितले ते फूलोवपाक वापरलेली भासय तितलीच गरजेची. खूप कडेन हे प्रसंग फुलोवपाक लेखिका येसस्वी थारल्या तर कांयकडेन ह्या कादंबरीतली भास निर्जिव जाल्या.

सारस्वत समाजाक केंद्रबिंदू दवरुन दुसरें एक कथानक घेवन कोंकणीतल्यो नामनेच्यो लेखिका मीना काकोडकार हांची 'वास्तू' ही कादंबरी हालींच आयल्या आनी ह्याच समाजाचेर कोंकणीतले नामनेचे लेखक अशोक कामत हांची 'घणाघाय नियतीचे' ही कादंबरी कांय वर्सां आदीं आयिल्ली. ह्या समाजाविशीं भौसाच्या मनांत आशिल्ले गैरसमज पसून उडोवपाक सगळ्यांनीं ह्यो कांदबऱ्यो वाचपाक जाय. ह्या समाजाचेर अशे तरेच्यो कादंबऱ्यो आनिकूय येवंक जाय. मायाबायक परबीं!

संपर्क : 9923306751

***

# कविता

## हांव 'म्हादय' खीणभर

ग्वादालूप

१.

पाशाणीं फातरां भितर
धडधडपी स्वास हांव
पाचव्या चार तणांचेर
अमृताची रास हांव
निसर्गाच्या ओंठाचेर
गोड रसाळ भास हांव
तानेल्ल्या दर्याच्या
काळजाची आस हांव
मन मोकळी व्हांवपी
म्हादय न्हंय खास हांव

२.

पांयांक बांदून पांयजणां
दोंगरा वयल्यान देंवतां
नागमोडी चाल म्हजी
मोडत मोडत व्हांवता
ओंठार म्हज्या फुलां तुरे
कितलेशेच वेंगोवन झरे
केंसांत खोवून उमास
निरागस हांव पेंवतां
आडखळींचें तोडून रान
सैमा उल्याक दिवन कान
सजोवन काजळी सपनां
दर्या भेटेक धांवतां
पांयांक बांदून पांयजणां
दोंगरा वयल्यान देंवतां
नागमोडी चाल म्हजी
मोडत मोडत व्हांवतां

३.

एक आसली म्हादय...
आपलेच धुंदींत व्हांवपी
केंस मानेर सोडून
सुर्या वोतांत न्हावपी
शेतांची बागोवन तान
भांगरा कणसां लुंवपी
अदृश्टाक वळसो घालून
मुक्कामार पावपी

केन्नाय शांत शीतळ
आपलींच दुकां पिवपी
व्होटयेंतली गिरेस्तकाय
काडून हेरांक दिवपी

धर्म आपलो पाळूंक
वोंट आपले शींवपी
फाटी वळूंक कळना
फक्त फुडें धांवपी

एक आसली म्हादय...
आपलेच धुंदींत व्हांवपी
दुस्मान जावं इश्टां पासत
जीण डावाक लावपी

४.

काल पासून हांव
शिमे भितर रावली
अस्तीत्व म्हजें वळखून
कांटां मदींच व्हांवली
जाय जाल्यार म्हज्यान
बुडोवं येतालो गांव
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'

जाणीं उदक मागलें
तांची विचारूंक ना जात
कोण जळयता पण्टी
वो कोण पेटयता वात
तुमचे सारकी शकताली
हांव करूंक भेद-भाव
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'

कोणांक कशी सांगूं
म्हजी मोनीं काणी
आयज म्हज्या दोळ्यांत
भरलां खारट पाणी
सजा दिवं येताली सांगून
'पेखयात म्हजो घाव'
तरी म्हणलें, 'आसूं नाका
वाटेक तांचे वचूं नाका
करूं ते कितेंय
तूं शिमे भितर राव
काल जशी व्हांवली
आयजूय तशीच व्हांव'

५.

खूब जाली समजावणी
खूब केलो शीण
आतां तरी जगूं दी
शांतीन म्हजी जीण
म्हजे भेटेक अजूनय
अश्रेकला तो दर्या
गवाय दिवंक तयार
अस्तम्तेचो सुर्या
रस्तो म्हजो बदल्ला
तांतुंत कितें व्हडलें
मुक्कामार पावसर
म्हाका व्हांवचेंच पडलें

६.

बाळा म्हज्या मनांत तुज्या
उजो कोणें पेटयलो
मनीसपणांचो धर्म तुजो
कसो तुंवें बाटयलो
हांवें पोसलीं तुजीं जोतां
हांवेंच पिकयलीं शेतां
सांग कोणें काळजांत तुज्या
स्वार्थ इतलो दाटयलो
मनीसपणांचो धर्म तुजो
कसो तुंवें बाटयलो
हांवें फुलयले तुजे मळे
ओले हांवेंच केले ताळे
बोंबलेचो पास तुंवें
इतलो सहज तुटयलो
दशा अशी करुंक म्हजी
कोणें तुका केलो राजी
सांग कितले नाणें दिवन
तुका असो फटयलो
मनीसपणांचो धर्म तुजो
कसो तुंवें बाटयलो

७.

कितलो काळ मेरेन
व्हांवली सोडून भान
भेद-भाव नासतना
दिलें सगळ्यांक दान
कमर जरी बागलें
बागयली ना मान
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

सदांच तुमच्या उल्याक
दिलो हांवें कान
तुमच्या सुखा खातीर
श्रृंगारीत केलें रान
सावळी घालूंक म्हाका
कशें दिसना एकूय पान
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

गळ्यांत म्हज्या सुकलां
कोगळांचें तें गान
दूख कांडूक मुसळ आसा
पूण खंय सोदूं वान
ताळो कोणूय भिजयात
इतलें उदक आसुनय
म्हादयेक लागल्या तान

संपर्क : 9922561568

***





## हांव ती म्हादय

संदेश बांदेकर

अनंत काळांतल्यान व्हांवता
हांव ती तुमगेल म्हादय
म्हाक आशा समुद्र मिलनाची
आत गर्दी तुमी यातील्या मेरेची
म्हाक निर्सगान दिल्ले देणे
आत तुमी म्हागेल केले वांटे
तुमी म्हाक बंदिस्त करु उठल्यात
दिसता तुमगेल काळ लार्गी येयला
रानां, वनां, बरा मनीस जगयले
आज तुमी म्हाक भीके लायले
खुर्ची, पैसो,प्रतिष्ठेखातीर
म्हाक दितात रे बळी
तुमगेल पायांर तुमीच आतां
कु-हाड माझ्न येता.
एकपटी निर्सग देवता कोपली
तर जीव सुष्टी ती सोपली.

(कारवारी शैलींतली कविता)

संपर्क: 9480790172

***



## माय म्हादय

आर. एस. भास्कर

आदीं काळाचे अनंततेंत सावन
अनादी काळाच्या अनंततेंत
अविरत व्हांवता मोगाळ न्हंय
माय म्हजी म्हादय

दोंगरांवेल्यान उडी येवन
सकल फोडून शिंपडून
फातरां मदल्यान शादूर दावंता
माय म्हजी म्हादय

तळें जावन शांत पडून
भौसां खातीर हारसो जावन
दुख चोखून सुख दिता
माय म्हजी म्हादय

सांजेवेळा मोगगीत गायत
रात्रीवेळा पांयजणां वाजयेत
देगेकडेन उमो येत वता
माय म्हजी म्हादय

दरेका दरेका मनांत
रंगबिरंगी सपनां फुलयत
दर्याक मेळपाक हुशार चलता
माय म्हजी म्हादय

संपर्क: 8891306123

***

# दोन कविता :

परेश नरेंद्र कामत

## प्रार्थना

काळखांत झळपेत चलतना
लांब-लांब जाल्ले वरी दिसतात मोटवे हात
उजवाडाचे दिकेन सरपटत रावतात सावळ्यां वरी पांय

सरत रावता मुखार
ही जीण काळखांतल्यान झरत
हातांनी आसा दडून बोटांची कलाकारी
पायांनी फिरकी
पावलांनी तालाची
गिरकी

जाय हाता इतलोच उजवाड पोशांत प्रार्थनेचो
कळयेचें फूल जावपा इतलोच प्राण
जिणेच्या पांचूय कडांनी
पंचारतीचो...

***

## तुजे उबदार हात

तुजे उबदार हात
मोव मुलायम वोतांत
चकचकतात तणाच्या पात्यां सारके

तुज्या हातांची ही फुलकारी
म्हज्या हातांचेर उदेतना
वतां विसरून हांव काळाचें भान

बोटांचे वेंर्गेत आसता तुजो सांगात गच्च
तेन्ना कळना म्हाका
सरता दीस काय सरता रात

तुज्या हातांचीं फुलपांखीं
भोंवतात म्हज्या आंगभर आंगभर
जशें वोत हुळहुळटा सावळ्यांनी

-आनी सावळ्यो आमोरेचेर लांबतना
तणाच्या पात्यांचेर चकचकत केन्ना
वोत गेलें हाता भायर कळना...

संपर्क: 9422640210

***

## भिवपाची खरेंच गरज ना ?

उदय नरसिंह म्हांबरो

वळटें केलें म्हजें पात्र
हांव जालें गलितगात्र

तडीक म्हज्या रावतल्यांनो
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

तार ना पनेळ ना
रेवेंची होडींय ना
रेंवेर बंदी घालपाची
आतां गरज उरची ना
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

सुकती ना भरती ना
उमाशेक जोरगत ना
बोंबलीभर उदक ना
काश्टी लेगीत भिजची ना
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

गरवणी ना कांटयाळी ना
खुबे ना तिसर्‍यो ना
फॉर्मालिनातले विस्वण बांगडे
पोंवशे केन्ना जावंचे ना
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

बार्जी ना ट्रक ना
मिनाचो धुल्ल ना
गावांगावांत रस्ते आडावंक
आतां कसलें कारण ना
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

आलतड ना पलतड ना
पुलांची गरज ना
बांदकाम खात्यांत भ्रष्टाचार
करपाक निमित्त मेळचे ना
पोटांत म्हज्या उदक ना
तुमी भिवपाची गरज ना

बाटलीबंद उदक पितल्यांक
याद म्हजी जावंचीच ना
शेतांभाटां पडलीं पडींग
शेतकारांकूय गरज ना ?
पोटांत म्हज्या उदक ना
तरी भिवपाची गरज ना?

पात्र म्हजे सुकतलें
प्लॉट करपाक मेळटलें
बांदात इमारती बंगले
पैशे जोडूंक मेळटले
उटंगाराच्या पावसान एकदिस
घाटार उदक तुंबतले
नाका तोंडान बुडटकीर
घाटासकयल सोडटले
तेन्ना म्हाकाच तुमी खेपतले
आडेकडेक वाटेवयले
सगळेच तुमी व्हांवतले
म्हजे वांगडा दर्याक वचून मेळटले
तेन्ना तरी तुमकां म्हजे वळवळे कळटलें?
तेन्ना मात तुमच्या हातान
करपाक कांयच नासतलें
मागीर म्हणात एका मुखान
भिवपाची गरज ना.

भिवपाची खरेंच गरज ना ??

संपर्क : 9420766769

***

## आमोरी : कांय मूड्स

काशिनाथ शांबा लोलयेकार

१.
आमोरी न्हू गोरी गोरी
आमोरी ही काळी काळी
जुस्त आमोरेर खावंक येता म्हाका
ना बरयल्ल्यो कवितांच्यो वळी
२.
काळोख काळो
काळखांत तू गोरी
गोरीपिट्ट
चार्ने काळेकिट्ट
३.
आमोरेचीं सुकणीं
उडत उडत खंय वयतात
मरणाचो रकाद घेवन
म्हज्या कुळारा वयतात
४.
भर आमोरेर
जीव दिलो सावळ्यांनी
खोल खोल बांयत
आनी काळखाचें उदक व्हांवता
म्हज्या दोळ्यांतल्यान
५.
आमोरेचो काळखापूर
उदक म्हज्या नाकामेरेन पावलां
हांव उरचो ना
उरतल्यो म्हज्या कवितेच्यो वळी
६.
आतां दिस खंयचो खंयची रात
कांयच कळना
तिनसांजचे कात्रींत हांव सापडलां
७.
भर आमोरेर
हांव वयतलो
तुका धवीफुल्ल करुन

संपर्क : 9049814854

***



नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

